# भंडारि - माम्माल्यो काण्यो

## (कोंकणी कथा संग्रह)



रामचंद्र जी. भंडारि

# भंडारि - माम्माल्यो काण्यो

## (कोंकणी कथा संग्रह)

लेखक :
रामचंद्र जी. भंडारि
कंदिवलि, मुंबयि

**द्वारकीश प्रकाशन**
एच - १०२, गोकुल नगरि
(२-एच), हौसिंग सोसायटि, दत्तानि पार्क
सुर्या विलेज, कांदिवलि (पूर्व), मुंबयि - ४०० १०१

**"BHANDARI - MAMMALYO KAANYO"** (A collection of Konkani Stories) by : Mr. Ramchandra G. Bhandari

Publishers :
Dwarakeesha Prakashana
H - 102, Gokul Nagari (2 - H) Housing Society
Dattani Park, Surya Village
Kandivili (East), Mumbai - 400 101
Phone : 022 - 28877609
Moblie : 098690 00718

First Edition : March 2010

Pages : viii + 62

Price : Rs. 40-00

Copies : 1000

*Printers :*
Ravindra Akalwadi
Manohar Printers
Market, Dharwad - 580 001
Ph. : 0836 - 2790030, 2741984
M. : 9972949314

# लेखकालि ओळख

संसारांतु अनेक प्रश्ने उठताचि. व्होडले पुतान केलिलि सेवा जास्त महत्वाचि किं ल्हान पुतान केलिलि सेवा, जास्त हुशार पुतान केलिलि सेवा आवयक आवडता किं कमिं हुशार पुतान केलिलि सेवा, जास्त सबळ, जास्त कशल्यवान पुतान केलिलि सेवा आवयक आवडता किं कमिं हुशार कमिं कशल्यवान पुतान केलिलि सेवा आवयक आवडता. संसार सांग्ता किं आवयक ती सेवा जास्त आवडता जी मनापासून, माये मोगाक लागून आवय खातिर केलिले सेवा आसता. तिका ती जास्त आवडून ती सेवा तिगेले छातिक कवटाळनुं कुरवाळता.

शास्त्रांतु आमकां सांगचांतु आयल्यां किं जेन्नां प्रभु श्री रामचंद्रान लंकेक सेतु बांदलो आनि सबळ वानरांनिं केलिलि महान् सेवा कौतुकन स्वीकारलि तेन्नां निर्बल खारेनं केलिलि सेवा माये मोगान छातिक कवटाळनु कुरवाळत स्वीकारलि.

कोंकणि आवय भाशेचे असंख्य पुतानि आप – आपण्याले शक्तीक आनि कौशल्याक लागून सेवा केलिलि आसा, करत आसाचि आनि करत आसताले. तागेले कौतक जे तरेन वाचकांनि केलें ते तरेन कोंकणी आवयन सुद्धां मान्य केलिलि आसाचांक जाय, हांतूत दोन मत आसचि

नांचि. पुण जेन्नां कोंकणी भाशेचो एक पूत मायेन, प्रेमान, आदरान सेवा करचाक मुखार येता तेन्नां आवय तांतूतलें तिगेले विशय आशिल्लो मोग, प्रेम आनि आदर पोळोवनुं कौतुकान ती छातिक कवटाळनु कुरवाळत, जे तरेन प्रभु श्री रामचंद्रान निर्बल खारेन केलिलि सेवा सीकारलि, ते तरेन कोंकणी आवय स्वीकारतालि हांतु किंचित् संशय आसचो ना.

हे विचार मेगेले मनांतु आयले जेन्नां हांवे श्री रामचंद्र भांडरीनि कोंकणी विशय आशिल्लो तांगेलो मोग ताणि कोंकणी भाशेंतु बरयिले पुस्तक वाचलें. श्री भांडारीनि आपण्यालो वानप्रस्थाश्रमांतलो काळ कोंकणी आवय भाशेचि सेवा करचांतु संलग्न केलिलें पोळोवनुं तांगेले विशय कौतुक आनि आदर मेगेले मनांतु उपजल्यार तांतू आश्चर्य कसलें ?

हांवु देवालागिं मागून घेता किं श्री भांडारींक कोंकणि भाशेचि सेवा करचाक दीर्घायुष्य, अरोग्य, शक्ति, सामर्थ्य दिवूं. हीचि मेगेलि इच्छा आनि प्रार्थना.

१०, डिसेंबर, २००९ **नागेश सोंदे**

३१८, राहेजा क्रेस्ट–३, लिंक रोड,
अंधेरि पश्चिम
मुंबय – ४०० ०५३

# प्रस्तावना : पयलीं उत्रं

मेग्गेल्या मोगाच्या मातृभाषेचे मानेस्तानों,

मेग्गेलें पयलें पुस्तक, "भंडारि माम्माल्यो काण्यो" (कथा संग्रह) प्रकाशित कोर्चाक अत्यंत संतोषु ज़ात्ता.

हांवु कायि पंडित न्हयिं, भाषा शास्त्रियी न्हयीं. केवल निवृत्त शास्त्रज्नु. पंच्कादायिंतुलि लेखन वाच्चूनु, कोंकणींतु लेखन बोरोन्चि इच्छा ज़ाल्लि. "कोंकणी भाषेक देवनागरि लिपीचि सूक्तता", "कन्नड आनि देवनागरि लिपिंतुलो ज़ोडाक्षरांचो गोंधोळु" "कोंकणी भाषेची प्राचीनता" वगैरे लेखनं प्रकाशित ज़ाल्लि.

इतर राज्यांतुले कोंकणी लोक प्रादेशिक लिपिंतु बरैताति. तांका विंगड लिपि वाच्चाक येना. आत्तां लिपि विषयाचो वादु सोण्णु दीव्यां, मान्यता मेळ्ळीलि लिपी, देवनागरियि वापर्या. कर्नाटक, केरळांतुले सुशिक्षत कोंकणी भाषिक हिंदि, संस्कृत शिकिल्यान, तांकां देवनागरी वाच्चाक विशेष त्रासु ज़ाय्शिना. म्हूण्णु मेग्गेले अप्रकाशित काण्यासहित एक कथा संग्रह "भंडारि माम्माल्यो काण्यो" देवनागरींतु प्रकाशित केल्यां.

मेग्गेले हे सान प्रयत्नाक, ख्यात साहिति, श्री नागेश दत्तात्रय सोंदे हान्नि माका प्रोत्साहन दीव्नु, वेळोवेळी उपयुक्त

सूचना सहित मार्ग दर्शन केल्लिल्याक मेग्गेलो मनःपूर्वक आभारु. प्रकाशक, बस्ति वामनशेणै हान्नि कोंकणींतुले साहित्य कोंकणी भाषिकानीयि प्रकाशित कोर्चाक सांगूनु हें पुस्तक छाप्सुचाक अनेक बहुमूल्य सूचना दीव्नु माक्का उत्तेजित केल्लिल्याक हांवुं अत्यंत उपकृत आस्सा.

काण्यो बोरोच्यांतु विनोदी शीर्षक ज़र उर्लि वाचकांक आसक्ति उत्पन्न ज़ात्ता. विनोदी लेखक, पु. ल. देशपांदे, वि. आ. बुवा वगैर्यानि हें तंत्र वापल्र्या. आर्किमेडिस नागडो धांव्लो. (कित्याक?), कवीलो बाळांतीरो, (कोणे केल्लो), सरदार्जीलें स्वर्गारोहण,(कशिं ज़ाल्लें?) तीन मूर्ख बुद्वंत (मूर्ख कश्शिं?),हांगा कंसांतु कारण दाकैल्या. शिवायि,अनेक विनोदी काण्यो आस्साति. तींवाच्चूनु वाचक आनंद पाव्तले अश्शिं आशा धर्ता. वाचकानो, एकि घडी हास्साति. तुम्कां हासु आय्ल्यारि इतरांकयी सांगाति, किंवा हें पुस्तक दिय्याति, धन्यवाद.

श्री. रवींद्र आकळवाडि, मनोहर प्रिंटेर्स, धारवाड, हान्नि सुंदर रूपान पुस्तक छाप्सूनु दिल्लें, डा. सरला आमणे, डा. हनुमंत आमणे हांगेलो सहकारु, आनि पंच्कादायि मासिकाचे संपादक हान्नि, हांवें प्रकाशित केल्लेल्यो काण्यो मेळोन्चाक अनुमति दिल्ले बद्दल, हांवुं सर्वांक आभारि आस्सा. मेग्गेली सौभाग्यवति, पूतु, सूनु हागेले सहकार्याचेंयी हांवुं नमूद कर्ता.

जै कोंकणी, देवु बरें करो

इति तुम्गेलो विश्वासि
**रामचद्र जी. भंडारि**
मुंबयि

# हॉर्निमन्नालि हुशारि

हॉर्निमन , हो एकु  ब्रिटिष नागरिक आशिलो. ताका हिंदुस्थानांतुले स्वातंत्र्य चळवळि बद्दल भारी सहानुभूति आश्शिली. इंग्लंडांतु ताणें अनेकपटि भाषणयि दीव्नु ब्रिटिश नागरिकांक ही चळवळी बद्दल माहिति दिवोव्सुचाक प्रयत्न केल्लेलें. ताग्गेले अस्सले देशद्रोहि! वक्तव्या बद्दल ब्रिटिश पार्लिमेंटाचे सदस्यांक कोपु येव्नु,सभेंतु गौजि घाल्लि. "ताणें ब्रिटिश सरकाराचो अपमानु केल्ला, ताक्का ज़ैलांतु घाला" वगैरे घोषणायी दिल्ल्यो. पण सभाध्यक्शानी "प्रत्येक नागरिकांक वाक्स्वातंत्र्य आस्सा, आपण्याले मतऽ व्यक्त कोर्चो अधिकारु आस्सा, योग्य समयाचेरि आम्मि क्रमु घेव्या चिंता नाक्का" अशिं समाधान केल्लें.

केवल इंग्लडांतु राब्बूनु, आपण्याले सहानुभूतिन कस्सलेंयी प्रयोजन ज़ावशिना, हिंदुस्थानांतु वोचूनु, चळवळीचे मुखंडांक मेळ्नु काम कोर्चो निर्धारु केल्लो. हिंदुस्थानांतुले वास्तव्याखात्तिरि लाग्चें पासपोर्ट वगैरे कागदपत्र घेव्चे तयारीक लाग्लो.

ही खब्बर ब्रिटिश सरकाराक लाग्लि. “ हांगा अम्चे विरुद्ध भरपूर प्रचारु केल्ला, थयीं वोच्चूनु खंचो दिग्विजयु प्राप्त कर्तलो,? हिंदुस्थानांतु पायु दवर्ल्यारि न्हैवें, तूवें चळवळीक सहयु कोर्चो? नंतर तुग्गेली हुशारि पोळोंव्यां” अशिशं ब्रिटिशानिं म्हळ्ळें. तान्नि ताग्गेले काममांतु अनेक आडथळे निर्माण केल्ले.

लंडन ते हिंदुस्थान पर्यंतचो प्रवासु विमानान कोर्चें पड्तलें ह्याविचारान, “ होर्निमन्नान हिंदुस्थानांतुले विमान तळारि पायु दवर्ले तक्षण ताक्का दस्तगीर (Arrest) कोर्चाक हांगचे वायिस रायाक आदेशु (order) दिल्लो. सर्व मेजिस्ट्रेटांक , विशेषत: मुंबयिचे मेजिस्ट्रेटांक तक्षण ज़ैलांतु घाल्चाक लिखित रूपारि आदेशु पावैलो.

ही बात्मि होर्निमन्नाक कळ्ळि. कांट्यानचि कांटो काण्णु, तांका समऽचि पाठु शिकोन्चाक निर्धारु केल्लो.

तो, लंडन पास्सूनु इराण पर्यंत विमानारि आय्लो, वोंट्या (camel) मार्गान, बस्सा रस्त्यान तो कराचि पाव्लो. ( कित्लो त्रासु घेत्लो पळया!) बोंबे बरोडा ऐंड सेंट्रल इंडिया रेल्वेचा प्रवासान मुंबै येव्नु, विक्टोरिया टर्मिनस स्तेशनाचेरि देव्लो.

दुस्रे दिवसु, मेजिस्ट्रेटाले कोर्टांतु हाज़र ज़ाल्लो. मेजिस्ट्रेटान व्हायिस रायाले आज्नापत्रक दाकोव्नु “आत्तां तुका दस्तगीर कोर्नु ज़ैलांतु कित्याक घाल्चा ना ,कारण दाक्कयि ?” अशिशं विचार्लें.

ताक्का, हॉर्निमन्नान ज़वाब दिल्लि, "त्या आज्नेप्रमाणें, हांवें विमान तळारि पायु दवर्ले तक्षण माक्का दस्तगीर कोर्का, पण हांवें विमान तळारि खयिं पायु दवर्ला? फक्त रेल्वे स्टेशनारि पायु दवर्ला, तो नियमु माक्का लागू ज़ाय्ना, म्हूण्णु माक्का दस्तगीरि कोर्चाक ज़ाय्ना".

हो वादु कोर्टांतुले इतर वकील, माननीय व्यक्तींक योग्य दिस्लो. " व्हायिस रायान समऽचि विचारु कोर्नु, आज्नापत्रक काड्काशिलें. हॉर्निमान्न असल्या गण्य व्यक्तीक अकारण त्रासु ज़ाल्लो." अश्शिं सर्वांलो अभिप्रायु ज़ाल्लो.

"माक्का प्रसिधि मेळचो अवकाशु चुकूनु गेल्लो मूं", मनांतुले मनांतु ज़ळ फळत निरुपाय ज़ाव्नु मॅजिस्ट्रेटान हॉर्निमन्नाक मुक्त केल्लें

हॉर्निमन्नान स्वातंत्र्य चळवळीक दिल्लेल्या सक्रिय कार्याचे स्मरणिके खात्तिरि मुंबयिंतु, हुतात्मा चौकालाग्गिचें, शहीद भगत सिंग रस्त्याबाज़ूचे भागाक सरकारान "हॉर्निमन सर्कल" म्हूण्णु नांव दीव्नु ताग्गेलो गौरवु केल्लो.

# दुंदुभिलें दमन

रामायणां कालौंतु, दुंदुभि नावांचो एकु बलिष्ठ राक्षसु आश्शिलो. तो मल्लविद्येंतु श्रेष्ठ आश्शिल्यान अनेकांक मल्लयुद्धांतु आह्वान दीव्नु हारयिलें.( सोल्शिले,). ताज्जेन लोकांक ताग्गेले भय़ आश्शिलें.

एक पटि ताणें समुद्र राजाक मल्लयुद्धांचे आह्वान दिल्लें. "मेग्गेलि सीमा सोण्णु, हांवें मुकारि आय्ल्यारि समुद्रतीरावैलि गांवं सर्व बुड्डूनु वत्तलिं. कोपान ब्रह्मदेवु माक्का कमंडलूंतु बंदिस्त कर्तलो. तूं पर्वत रायालाग्गि म्ल्लयुद्ध करी." अश्शिं ताणें सांग्लें. पर्वत रायान "मेग्गेलें स्थान निर्दिष्ठ आस्सा, अर्ध पावूल सुधां मुकारि येन्चाक ज़ाय्ना, तेद्ना हांवुं कश्शिं मल्लयुद्ध कोरूं ? तरि तूं दक्षिणेंतु किष्किंधा राज्याधिपति, वानर मुख्य, वालि वोट्टु युद्ध करि, तोचि तुक्का समान बलाचो आस्सा." अश्शिं सांग्लें.

हा ज्जेन उत्तेजित ज़ाव्नु, दुंदुभि, होड्डु बैलाले रूप घेव्नु किष्किंधेकडेन भायिर सर्लो. धांव्ताना पाय्या मूळांचि भूयिं हाल्तालि. ताग्गेले श्वासोछवासान हून,हून वारो येत्ताश्शिलो.

मात्यारि लांबऽ लांब वांक्डि शिंग आश्शिलिं. अस्सलें भीकर रूपि दुंदुभीक किष्किंधे दिशेन येत्तस्तना वालीले वानर सेनेंतुले गुप्तचरानि पळैलें.

ही खब्बर तान्नि राज्याचे मुख्यद्वारपालकापर्यंत शीघ्रतेनं पावैलि. ताणें द्वार बंद कोर्नु,ताक्का धांव्डाचाक वानर सेनेचि एकि तुकडीभी सज्जदवर्लि. थोंडे सैनिक दांडे, फ़ात्तर वगैरे घेव्नु द्वारावैरि बस्लें, थोंडे वाटेरि राब्बूनु ताक्का आडोव्चाक राब्लें. अश्शिं जय्यत तयारि केल्लि.

थोड्या वेळान दुंदुभि महाद्वारापर्यंत येव्नु पाव्लो. वानर सैनिकानि फ़ात्तोरु वगैरे मार्नु ताक्का धांव्डाचे प्रयत्न केल्लें. मात्या एकच प्रहारान महाद्वार संपूर्ण मोण्णु पळ्ळें. अनेक वानर सैनिक गंभीर रीतिन घायाळ ज़ाल्लें. भीव्नु वानर सैनिकांनि वालीले राजमहलाकडे धाव्नु, ताक्का संपूर्ण वृतांत दिल्लें. घायाळ सैनिकांक योग्य उपचार कोर्चाक सांगूनु, दुंदुभीलि वाट पळैत वालि थयिं राब्लो.

थयिं येव्नु पाविल्या दुंदुभीक पोळोव्नु वालि म्हळ्ळालो "तूंवें मेग्गेल्या राज्यांतु प्रवेशु कोर्चा ना अश्शिं सांगिलें तरि तूं आत्तां कसल्याक आय्लो?"

पाय्यानि भूयिं खरडीत, मात्तें हाल्लैत, दुंदुभीन तोंड उंच कोर्नु मल्लयुद्धाक आह्वान केल्लें. कोपान वालि एकीच उड्कीन ताग्गेलाग्गिं पाव्लो. दोन्नी शिंगऽ धोर्नु दमन केल्लें.

दुंदुभीन पाय उंच कोर्नु  लाथ मार्चाक पळैलें. पण वालीन ताग्गेले दोन्नीपाय धोर्नु चक्रावारि फ़िरोव्नु, दूर उड्डैलें. दुंदुभी ऋष्यमूक पर्वताचेरि पोण्णु मरण पाव्लो.

थंचे ऋषीले आश्रमांतुलीं अनेक वनस्पति, फुलज़ाडं सर्व रक्तानं दूषित ज़ाल्लिं. हें कामऽ वालीलें म्हूण्णु ताक्का कळ्ळें. "वालीन ऋष्यमूक पर्वताचेरि, पायु दवर्ल्यारि ताग्गेलें मात्तें फ़ुट्टूनु चूर, चूर ज़ाव्वो" अशिशं ऋषीन शापु दिल्लो. हाज़्ज़ेन चिंतित वालीक ताग्गेले अनुयायीन, " महाराज, तुम्मि, ऋष्यमूक पर्वता दिशेन वच्नाज़ाल्यारि तो शापु लागशिना", अशिशं समाधान केल्लें.

नंतर वालि – सुग्रीवालें संघर्षांतु, राज्यबाहिर ज़ाल्लिल्या सुग्रीवान ऋष्यमूक पर्वताचेरि आश्रय घेत्तिलो विषयु सर्वांक विदित आस्सा.

# सुभद्रा हरण – परिणय

पांच वर्षांतु ऐक पटी हांवु द्रौपदीलो पति (बाम्मूणु) ज़ात्तां. हें पत्निविरह कश्शिं सहन कोरूं ? कृष्णा!" अर्जुनान आपण्याले दुःख प्रकट केल्लें. " मित्रा, चिंता कोर्नाका. तुक्का द्विभार्या योगु आस्सा." कृष्णानं ताक्का समाधान केल्लें. "आठ पटटराण्यो आश्शिल्याक हें दुःख कश्शि कळतले?" अर्जुनालें प्रत्युत्तर. "थोडें दिवस हें दुःख सहन करी, मेग्गेले उत्रारि विश्वासु दव्वरि" कृष्णानं आश्वासन दिल्लें. तरी निराशेन अर्जुनु राजधानीक परतलो.

एक पटि, युधिष्ठिर आनि द्रौपदी एकांतांतु आस्तना, "महाराज, वांचया, वांचया" अश्शिं गौजि आय्कलि. चोर्नु व्हेल्लेली ब्राह्मणांलीं गायि– गोर्वं परत दिवोव्सुचाक तान्नी विनंति केल्लि. पणऽ अर्जुनालिं सर्व सर्व शस्त्रास्त्र युधिष्ठिराले कक्षांतु (कूडांतु) आश्शिलिं "तांगेले एकांतांतु इतरानि प्रवेशु कोरूं नज़्ज़" ह्या नियमान अर्जुनु निरुपाय ज़ाल्लो. तरी ब्राहम्णाले सहाया खात्तीरि ताणें तो नियमु मोळ्ळो. शस्त्रास्त्रसहित आयिल्या अर्जुनाक पोळोव्नु ते चोरऽ धाव्नु गेल्ले. अंधुक प्रकाशांतु एक व्यक्तीन ते चोरांक थैलि दिव्वें अर्जुनाले लक्षांतु आय्लें.

प्रवेश निशिद्धतेचो नियम उल्लंघन केल्लिल्या अर्जुनाक, वेदव्यास मुनि वगैर्यानि एक वर्ष पर्यंत तीर्थाटनेक वोच्चाक आदेशु दिल्लो. यतीवेशु धारण कोर्नु अर्जुनु भायिर सलो शिष्य, दुर्योधनाले गदायुध्दाचें नैपुण्य, गुरुभक्तीन प्रसन्न ज़ाव्नु बलरामान, आपण्यालि भैणि सुभद्रालो विवाहु दुर्योधनाले वोट्टु कोर्चें आश्वासन दीव्नु राजधानीक परतलो.

पणऽ सुभद्रेन ह्या विवाहा बद्दल संपूर्ण ना पसंति दाकैलि. "तूंवें कृष्णाचेरि प्रेम केल्नाश्शिल्वे? हांवें प्रेम केल्यारि कित्तें चुक्लें?" रुक्मिणीक सुभद्रेन विचार्लें.

"बरें, तुग्गेलो प्रेम वीरु कोण आस्सा? तें तरी सांग", रुक्मिणीले प्रश्नांक लज्जेन मात्तें सकल घाल्नु सुभद्रेन अर्जुनालें नांव घेत्लें.

"ओहो ! आम्गेल्या नणंदाबायीक अर्जुनाचेरि प्रेम ज़ाल्यावेऽ ?" खुषीन तिग्गेली फाटी थोपटीत, "चिंता नाका, नणंदबायि, सर्व तुग्गेले इच्छेप्रमाणें ज़ात्तलें." रुक्मिणीले आश्वासनांन संतोष पाव्नु सुभद्रेन रुक्मिणीक प्रेमान आलिंगन दिल्लें.

"पण अर्जुनांक तें मान्य आस्सावे,? तो विवाहित आस्सा, हें लक्षांतु घे, सुभद्रे," कृष्णाले प्रश्नाक, "विवाहित पुरुष सुद्धां परत लग्न कर्तातित, मेग्गेलो प्रेमु द्रढ, आनि निश्चित आस्सा." सुभद्रेन घोषित केल्लें. मंदस्मित कोर्नु कृष्णान सम्मति दाकैलि. "आत्तंचि भैणीले विवाह कोर्नु

तिका दूर कोर्चें नाका” कृष्णान बलरामाक सूचित कोर्नु विवाहा बाद्दल्चि चौकाशि मुकार्शिलि.

हांगा यतिवेषधारि अर्जुनु, अनेक तीर्थक्षेत्रांचे दर्शन घेव्नु, आखेरीक मथुरेंतु येव्नु पाव्लो. थयीं कृष्णान सुभद्रेक “यतीले सेवा कोर्नु काहीं तरी पुण्य मेळया” सांगूनु सुभद्रेक यतील्या सेवेक निमंत्रित केल्लें.

एक दिवसु त्या यतीन, सुभद्रेक, “ हे बालिके, बाविल्या फुल्लावारि तुग्गेलो चेहरो दिस्ता, तुग्गेलें दुःख कस्सलें”? म्हूण्णु विचार्लें.

“जीवनांतु सुख– दुःख आस्ताचीचि न्हैवे, यतीवर” सुभद्रेलि ज़वाब.

“तुग्गेलें दुःख कस्सलें म्हूण्णु कळ्यारि, तें निवारण कोर्चाक प्रयत्न कोर्यां, निस्संकोचान मेग्गेलाग्गि गुप्ततेन सांग”, यतीन आश्वासन दिल्लें. सुभद्रेन सांग्लें “ यतीवर, दुर्योधनावोट्टु मेग्गेलो विवाहुनिश्चत केल्ला, पण तो माका पसंत ना, अर्जुनांचेरि हावें प्रेमु केल्ला, तुम्मि माक्का सहायु कर्तलेवे?” सुभद्रेन गुप्ततेन सांग्लें. “हांवु अनि अर्जुनु थोडे समय सहपाठि आश्शिले. ताग्गेली, मेग्गेली मैत्रि अत्यंत गाढ आस्सा. पण तो विवाहित आस्सा, ताणें तुग्गेलो प्रेमु स्वीकालर्वे ? तेद्‌ना मात्र तुम्गेली भेटऽ घडोव्चाक ज़ात्तलें”, यतीन स्पष्टीकरण केल्लें.

"यतीवर, कशिशं तरी कोर्नु ही भेट घडोव्नु हाडैयाति, हांवु तुम्गेलि आजन्म ऋणि ज़ाव्नु उर्तली, मेज्जेरि कृपा करा", सुभद्रेन यतीलें पाय स्पर्श कोर्नु कळक्ळीन विनंती केल्लि. "चिंता नाका, बालिके, योग्य समयाचेरि ही भेटि करैशितां" यतीनं आश्वासन दिल्लें.

घर आयिल्या सुभद्रेन कृष्ण–ं रुक्मिणीक हें सांग्लें. तान्नि पसंतीन अनुमति दिल्लि. अर्जुनाले तीर्थाटनेचे वर्ष समाप्त ज़ाय्त आयिल्ले. सुभंद्रेलें हरण कोर्चाक कृष्णालो गुप्त संदेशु अर्जुनाक मेळ्ळो.

यतीवरान, "बालिके, अर्जुनालि भेटीचो समयु आय्ला, फाल्या सकाळिं पूजेक तूं शिवमंदिरांतु, रथु, सारथि सहित यो" अशिशं सांग्लें. कृष्णान अर्जुनालि शस्त्रास्त्र गुप्तरीतिन रथांतु दवर्शिलिं. शिवमंदिरांतु यतीक पोळोव्नु सुभद्रेक आश्चर्य ज़ाल्लें.

"बालिके, शिवपूजे नंतर गर्भगुडीभित्तल्यान प्रदक्षिणाघाल्नु प्रार्थना करी", यतीन संग्लें. त्या सूचने प्रमाणें सुभद्रा भित्तरि गेल्लि. प्रदक्षिणा पूर्ण ज़ाल्ले नंतर, "समय नश्ट कोर्नाक्का, सुभद्रे, मेज्जे वोट्टु यो" सांगूनु, तिग्गेलो हातु धोर्नु, रथारि बस्काराव्नु यतीनं रथु भरवेगान व्हेल्लो. "यतीवर, हें कस्सलें?" आश्चर्यचकित सुभद्रेक यतीवेष काण्णु अर्जुनान निजरूप दाकैलें, हर्षातिरेकान सुभद्रेन अर्जुनांक आलिंगन दिल्लें.

"यतीवरान सुभद्रेलें हरण केल्लें," सारथीलें आक्रोशाक, बलरामु आपण्यालें सैन्य घेव्नु यतीलों पाठलागु कोर्चाक भायीर सर्लो.

"तों यतीवरु कोणु म्हूण्णु तुक्का गोत्तास्वे?" कृष्णालें पश्नाक बलरामान नकारात्मक उत्तर दिल्लें. "चिंता नाका, तों वीरवर अर्जुनु आस्सा. तान्नि एकमेकांक पसंत केल्या, शिवायि अर्जुनावोट्टु युध्द कोर्चाक इच्छा आश्शिलानि मुकार्सुवेत" कृष्णान निवेदन केल्लें.

बलरामु "एकमेकालें पसंतीन केल्लेल्या विवाहाक मेग्गेलों विरोधु ना" म्हळ्ळालों.

रुक्मिणी वगैर्यानि ताक्का सम्मति दिल्लि. खुषीन, बलरामान तांगेलें विवाह समारंभाक वोच्चि ययारि कोर्यां म्हूणु सूचित केल्लें.

# संस्कृत भास शिकाति, सुसंस्कृत ज़ाय्याति

“भाषासु रम्या गीर्वाण भाषा”, म्हणताति. संस्कृत भासऽ सर्व भारतीय भाषांचि माय भास (मूळभास) आस्सा. कन्नड, मलेयाळम सारखे द्राविडियन भाषेंचेरि ताज़्ज़ो प्रभावु पड्ला. ह्या भाषेंतु आनेक रसप्रधान साहित्य, रम्यता भरपूर आस्सा. संकृत भास शिक्चाक थोडीशि कठिण भास. ताज्जिंरूप, पद, विभक्ति वगैरे तोंड पाठ ऊर्का. थोडेशे चुकीन धातुचो (क्रियापदाचो) अर्थु दुस्रोचि ज़ात्ता.

**उधा** :– “उपसर्गेण धात्वर्थो बलाद्न्यत्र नीयते, प्रहारांहार संहार, विहार, परिहारवत”. (उपसर्ग म्हळ्ळयारि इंग्लिषांतुले प्रिफ़िक्स),

**अर्थात्** :– प्रहार, आहार, संहार, विहार परिहार.
रम्यते विषयांतुयी एकु प्रश्नरूपि शलोकु आस्सा.

“सीमंतिनीशु का शांता? राजा को भूत गुणोत्तमा? कम् बलवंतम् न बाधते शीतलम्”.

**हाज्जें उत्तर** :– सीता, रामा, कंबल. (कांबळि).

महाकवि कालिदासु, राजा भोजरायाले आस्तांतु आस्तनां, भोजराजाक, आपण्याले मृत्युनंतर्चो कालिदासालो श्लोकु आय्कुन्चे कुतूहलान, तें सांग्चाक विनंति केल्लि. कालिदासु, सत्यवचनी आशिल्यान, स्पष्ट नकारु दिल्लो. पदे पदे विनंति केल्लिल्यान निरुपाय ज़ाव्नु हो श्लोकु म्हळ्ळो.

"अद्य धारा (धारा नगरी) निराधारा, निरालंबा सरस्वती, पंडिता खंडिता सर्वे, भोजराजे दिवंगते." दुस्रेयी क्षणांतु भोजराजाक मृत्यु आय्लो. आस्थानांतुले सर्व दुःखि ज़ाल्ले. थोड्यानीं कालिदासाक दूषण दिल्लें. पण एक–दोन विद्वानानी ताका समाधान कोर्नु सूचित केल्लें. तूवें "दिवंगते" म्हळ्ळिल्यान तो दिवंगतु ज़ाल्लो. आत्तां "भुवंगते" शब्द घाल्नु एकु श्लोकु म्हण. इष्टदेवीलें स्मरण कोर्नु कालिदासान हो श्लोकु म्हळ्ळो.

"अद्य धारा सदाधारा, सदालंबा सरस्वती, पंडिता मंडिता सर्वे, भोजराजे भुवंगते".

आश्चर्य! दुस्रेयीक्षणांतु भोजरायु जीवित ज़ाव्नु उठूनु बस्लो. दुस्रे कवीन हो श्लोकु भोजराजाक आय्कशीलो. ते आय्कूनु भोजराजान कालिदासाक प्रेमान आलिंगन दिल्ले.

मित्रानु, संस्कृत भासऽ शिकाति, रसप्रधान सहित्याचे आनंद घेय्याति.

# पुराणकालीन प्रेम विवाह

प्रेम विवाह, प्रेम विवाह, हाज्जि चर्चा आजि कालि विशेष रीतिन चल्ला. थोंडे आव्सु- बापूसु ताक्का विरोधयी कर्त्तांति. चेर्डुंवाले सुखी संसाराखात्तिरि थोंडेशे सम्मतियि दित्तातिं. आत्तां ताज्जि चर्चा नाक्का. पण पुराण कालांतु सुद्धां प्रेम विवाहाचि दृष्टांत आम्का मेळतातिं तीं खंचि म्हूण्णु पोळोव्यां.

(१) मदन बाणाले प्रहारान ईश्वरालो तपोभंगु ज़ाल्लो. तो पार्वतीले माक्षिं धाव्लो. आनि म्हळ्ळालो, "बनो हमारी राणीजि". परिणामु, तान्नि प्रेम विवाहु केल्लो.

(२) रुक्मिणीन "शिशुपालु माक्का बाम्मूणु (पति) नाका, तूंचि पति ज़ाव्का" अशिं कृष्णाक प्रेम पत्र बरैलें. कृष्णान रुक्मिणिलें हरण केल्लें, तांगेलो प्रेम विवाहु ज़ाल्लो.

(३) "पांच वर्सांतु एक पटि हांवुं द्रौपदीलो बाम्मूणु. (पति) ज़ात्तां. हें पत्नि विरह कशिशं सहन कोर्चें", अर्जुनान कृष्णालागिं हें दुःख सांग्लें. यती वेषांतु आयिल्ले

अर्जुनाले सेवेक कृष्णालि भैणि, सुभद्रेक निमंत्रित केल्यान, तांगेलि मैत्रि वाड्ली. दोग्गानी धाव्नु वोच्चूनु प्रेम विवाहु केल्लो.

(४) कठोर तपस्वि, विश्वामित्रान मेनकेवोट्टु प्रेम विवाहु केल्लो. तांगेले संसारा उपरांत, शकुंतला, जन्माक आय्लि. आव्सु– बापूसु, दोग्गयीं तिक्का सोण्णू गेल्लींति. ही, मेनकापुत्रि, "शकुंतला", कण्व ऋषीले आश्रमांतु वाड्ली. वयांतु आयिले शकुंतलेवोट्टु राजा दुश्यंतान गांधर्व विवाहु केल्लो. तोयी प्रेमविवहु न्हैवे? तांगेलो पूतु, "भरत चक्रवर्ति", प्रचंड पराक्रमि ज़ाव्नु आम्गोले भारत देशाक मेळ्ळेलो इतिहासु कोण्णेयी विसर्चाक नज़्ज़!.

(५) श्रीकृष्णालो, नात्तु, अनिरुध्दाचेरि, बाणासुरालि धूव, उषाक, स्वप्नांतु प्रेम उत्पन्न ज़ाल्लें. योगविद्येद्वारा तीणें अनिरुध्दाक आपण्याले कक्षांतु(कूडांतु) हाडोव्नु, प्रेमविवाहु केल्लो. नंतर कोपान बापूसु, बाणासुरान अनिरुध्दाक सर्पास्त्रनान बांदूनु कारागृहांतु दवर्ले.नंतर कृष्णानं युध्दांतु बाणासुराले केवल, दोन्नी हात दवोर्नु, एक सहस्र हातऽ काप्पूनु घाल्ले. अनिरुध्दालि मुक्तताकोर्नु तांगेले प्रेम विवाहाक मान्यता दिल्लि.

(६) भीमांन हिडिंबासुरालो वध केल्लो. ताग्गेली भैणि, हिडिंबा, भीमाचेरि मोहित ज़ाल्लि, अनि विवाहाचि

मागणी केल्लि. कुंति, युधिष्ठिरालि अनुमति घेव्नु,तान्नि प्रेम विवाहु केल्लो.

(७) राजा वृषपर्वालि धूव, शर्मिठेन, आजीवन आपण्यालि सेविका ज़ाव्नु उर्चें निबंधनेन, देवयानि, ययातिलें लग्न ज़ाल्ले. नंतर ययाति आनि शर्मिष्ठेलि मैत्रि वाड्डूनु तान्नीयि प्रेम विवाहु केल्लो. तांकां संतानयी प्राप्त ज़ाल्ले.

(८) शंतनू– सत्यवति, नळ– दमयंति हांगेलोयी प्रेम विवाहु म्होण्येत. शिवायि प्रेम विवाहाचि अनेक उधाहरणं मेळ्तातिं पण हीं उधाहरणं आधुनिक प्रेम विवाह इच्छुकांक प्रोत्साहन दित्तल्वे? वधू–वर पित्यानों! सवधान, गांभीर्यान विचार करा. नंतरही विवाहाक अनुमति दियाति.

# गुरुभक्तीन प्रसन्न ज़ाल्लों कृष्णु

एका ऋषीलें आश्रामांतु अनेक श्रीमंत विद्यार्थि शिकत आश्शिलें. थंचे एक गरीब विद्यार्थिकयी शिक्षण घेन्चि इच्छा ज़ाल्लि. गुरुलाग्गि आपण्यालि इच्छा सांग्लि. ताग्गेली बौद्धिकतेचि उच्च पातळी पोळोन्नु शिक्षणांतु मेळोन्नु घेत्लें. ताग्गेली प्रगतीयि समाधानकारक आश्शिलि.

आखेर शिक्षण क्रमाचि अवधि समाप्त ज़ाल्लि. गुरुदक्षिणा दिन्चेबद्दल विद्यार्थ्यांतु पैपोटी सुरु ज़ाल्लि. व अनेकान मौल्यवान वस्तु, उपयोगाचे सामग्रि दिन्चि घोषणायि केल्लि. ह्या गरीब विद्यार्थीकयी गुरुदक्षिणा दिन्चि आशेन आव्सूलाग्गिं कस्सलेंयि दिन्चाक मागणी केल्लि. आव्सूनं "पुत्ता, आम्मि गरीब, गुरुदक्षिणा कश्शिं दिन्चें?" ज़वाब दिल्लि.

"गुरून पुत्तावारि प्रेम कोर्नु माक्का शिक्षण दिल्लां. गुरुदक्षिणेक कस्सलें तरी दी" अश्शिं हठ धोर्नु बस्लों. आखेरीक निरुपाय ज़ाव्नु तूं मध्यरात्रीनंतर रान्नांतु वोच्चूनु श्रीकृष्णालग्गिं, प्रेमान, अत्यंत कळ्कळीन विनंति करी, तों मेग्गेलोयी देवु' अश्शिं सांग्लें.

संपूर्णविश्वासान तो रान्नांतु वोच्चूनु कृष्णाक आप्पोन्चाक लाग्लो, बरेचि वेळा आप्पोन्नु सुद्धां कस्सलोयी प्रतिसादु मेळ्ळोना. रान्नांतुले रान कीडे, क्रूर प्राणि वदर्चाक लाग्ले. पण तो भिल्लो ना. अत्यंत निश्चल मनांन विनंती कर्चाक लाग्लो. आखेरीक ताक्का भारी निराशा ज़ाल्लि. तरी कृष्णालागिं गुरुदक्षिणेंक कस्सलेंतरी घेव्नु वत्तलोंची "ह्या द्रडविश्वासान आप्पैत उर्लो. ताग्गेली स्थिति अत्यंत दयनीय ज़ाल्लि. दोळ्यांतुल्ल्यानं अश्रु काडीत "कृष्णा, माक्का पुत्तावारि प्रेम कोर्नु गुरून शिक्षण दिल्ला. रिक्त हात्तानीं कशिशं वोच्चूं? दय कोर्नु गुरुदक्षिणेंक कस्सलेंतरी दी" अशिशं कळकळीन विनंती कोर्नु पदे, पदे आप्पोन्चाक लाग्लो.

"हांवुं दृढविश्वासान अय्लां, माक्का निराश कोर्नाका, कृष्णा" अशिशं माग्चाक लाग्लो.

थोड्या वेळान, कांबळी पांगूर्नु घेव्नु, काळ्कांतुल्यान आयिल्या ऐक्ळ्यान ताक्का विचालें? "कोणरे तूं? माक्का कित्याक आप्पैलें?"

त्या विद्यार्थिन संपूर्ण वृत्तांत सांगूनु, गुरुदक्षिणेक कस्सलें तरी दिव्चाक विनंति केल्लि.

ताणें सांग्लें "चेरडा, आम्गोलागिं धन संपत्ति कायीं ना, गायि, गोर्वंयीं आम्गोलि संपत्ति, गुरुदक्षिणेक मड्कि भोर्नु दूध दित्तां, हें घे." ती दुद्दामड्कि घेव्नु तो खुषीन परतलो.

दुस्रे दिवसु आश्रमांतु भारी गर्दि. गुरुदक्षिणा दिव्चाक सर्व मुकार्शिताले. तें स्वीकार्नु गुरून सर्वांक आशीर्वचन सांग्लें.

गुरुदक्षिणें मौल्यवान वस्तूंक पोळोव्नु, संकोचान राब्बिल्या त्या विद्यार्थीक, गुरून अप्पोव्नु चौकाशि केल्लि. " गुरुमहाराज, हांवें दूध हाड्लां," सांगूनु दुद्दामड्क दाकैलि. गुरून प्रेमान फ़ाट्टीरि हाथ फ़िरैत, पाकशालेंतु तें दूध दिव्चाक सांग्लें.

थर्यीं समराधने जेव्णा तयारींतु सर्व व्यस्त आश्शिले. एक अय्दनांतु दूध रकैलें. तें भर्लें. तरी दुद्दामड्क भर्लेलि. होडऽ अय्दनांतु दूध रकैले. तेंयी भर्ले, पण दुद्दामड्क खाली ज़ाल्लीना!

एक्ळ्याक आप्पोव्नु भारी होडऽ आय्दनांतु दूध रकैलें. तेंयी भर्लें, दुद्दामड्क संपूर्ण भत्लेलि.

"हें कस्सलें विचित्र"? म्होण्णु गुरुमहाराज थर्यीं आय्ले. "चेरडा, ही मड्क खंचान हाळ्ळि"? म्हूण्णु प्रेमान विचार्लें. त्या विद्यार्थीन संपूर्ण वृत्तांत सांग्ले.

तुग्गेल्या गुरुभक्तीन प्रसन्न ज़ाव्नु, श्रीकृष्णान ही अपूर्व दुद्दामड्क दिल्लि. तूं खरोखर धन्य ज़ाल्लो, मित्रा! कृष्णालो, सखा ज़ाल्लो, आज़ पास्सूनु तूं "कृष्ण सखा" सांगत गुरून प्रेमान आलिंगन दिल्लें. सर्वां एदुरु ताग्गेलो सत्कारु केल्लो.

किं वाससा तत्र विचारणीयं, वासः प्रधानं खलु योग्यतायां, पीतांबरं वीक्ष ददौ तनूजां, दिगंबरं वीक्ष विषः प्रदत्तः

**अर्थात्** :- वास म्हळ्यारि परिधान केल्लेलीं वस्त्रं,(ड्रेसु). योग्यते खात्तिरी ड्रेस्सूयि प्रधान आस्सा.

**उधा** :- आफ़ीसांतुले होड साहेबानं, केवल लुंगि न्हेस्सूनु आय्ल्यारि कित्लें हास्यास्पद : जात्तलें?

कित्येक विदेशी कंपनींतु, बाय्लानीं ज़ांग्यो (thigh) दाकोञ्चे मिनिस्कर्ट घाल्नु येञ्चाक नां अशिशं नियम आस्सा. ताज्जें समालोचन थोंडेशें विडंबनात्मक रीतिन कोर्चा हांवु इच्छितां

समुद्र मंथना वेळारि पीताबर न्हेस्सूनु आयिल्या विष्णूक पोळोञ्नु, समुद्र राजान धूव, लक्षीक लग्न कोर्नु दिल्लें दिगंबर, म्हळ्यारि, हस्ति चामडि न्हेस्सूनु आयिल्या शिवाक (शंकराक) वीषऽ पिञ्चाक दिल्लें.

तरी, वाचकानु, योग्यतेखात्तीरि उत्तम ड्रेसु परिधान कोर्का.

# आर्किमेडिस नागडो धावलोः-
# नवीन सिद्धांत घेव्नु आयलो

आर्किमेडिस, हो एकु गणितज्ञ, भौतिक शास्त्रज्ञ ज़ाव्नु आश्शिलो. ताग्गेलो कालु, क्रि. श. पू. दोन-तीन शतमाना सुमाराक आश्वाफाव आस्सा अश्शिं म्हण्ताति. ताणें, ताग्गेले रायाले अनेक तांत्रिक समस्ये अत्यंत सुलभतेनं सोडयिले. ताका रायाले तांत्रिक सलहाकार म्हुण्णु नियुक्ति केल्लेलें. शिवायि राजदर्बारालाग्गिं प्रयोगशालायि आश्शिलि. एक पटि, रायान थंचे सुवर्णकाराक, अवश्य आश्शिले भांगर दीव्नु किरीट तयार कोर्चाक सांग्लें. ठरलेल्या दिवसु किरीट रायाक हाण्णु दिल्ले. ताज्जेवैलि सुंदर नक्षा वगैरे पोळोव्नु रायु खुषि ज़ाल्लो.पण ताग्गेले मनांतु एक, शंका उत्पन्न ज़ाल्लि. "त्या सुवर्णकारानं कम्मि तरगतीचें धातु मिश्रण केल्लिल्ना मूं?, हाज्जे खरेपणांचो शोधु तूं करी". म्हूण्णु आर्किमेडिसाक, गुप्ततेन आदेशु दिल्लो. आत्तां अर्किमेडिसा ऐदुरु ही समस्या आय्लि. अनेक सिद्धांत, प्रयोगाचे उपयोगानं तो प्रश्नो सुंटिल्ना तो दिव्स-रात्र विचारांतु उर्लो. एक दिवसु, न्हाव्चे खात्तिरि उद्कान संपूर्ण भर्लिल्या टब्बांतु (tub) तो बुड्लो. सहज़ चडावतेउद्दाकभायिर पळ्ळें. "हें कित्लें उद्दक

भायिर पळ्ळें?, मेग्गेले शरीराचें समान वज़नांचे उद्दाक भायिर पळ्ळें ना मू? तें कशिशं शोधूनु काड्चें?" अर्थात खंचेयी एक वस्तु प्रवाहिंतु (fluid) बुड्डैल्यारि, प्रवाहिंतु बुड्डीले वस्तूचे वज़ान, आनि भायिर पळ्ळेले प्रवाहिचे वज़न समान ऊर्का. "चिकित्सक मनांचे आर्किमेडिसाक हो विचारु मनांतु आय्लो. उत्साहाभरांतु, "(Eureka, Eureka) माक्का मेळ्ळें", माका मेळ्ळें" अशिशं वदरत, नागडोचि रस्त्यावैल्यान धावत सुट्लो. थंचे लोकांक हें पोळोन्नु आश्चर्य जाल्ले. थोडेशे लोक धाव्नु वोच्चूनु रायाक ही बात्मि दिल्लि. ताज्जि चौकाशि कोर्यां म्हूण्णु रायु वाट पळैत राब्लो.

थोडे वेळान युरेका, युरेका (Eureka, Eureka) अशिशं म्हणत, नागडो आर्किमेडिस राज्यदरबारांतु येव्नु पाव्लो. ताक्का न्हेश्शाक कपडे दीव्नु, "कस्सले मेळ्ळें सांग"? रायानं विचार्लें.ताग्गेले प्रश्नाक जवाब दीनास्तना, रायाक आपण्याले प्रयोगशालेंतु, घेव्नु गेल्लो. दरवाज़ो बंद कोर्नु, रायाक भित्तरि बस्कारायलें. वोंटारि बोट दवोर्नु "चुप" कोर्नु प्रयोगाचि तयारि केल्लि. थयिं अनेक तरेचिं वज़न, चंचुपात्रं, हलक्या वज़न तोल्चि तराज़ु वगैरे आशिशलिं. आर्किमेडिसान एक चंचुपात्रांतु उद्दाक भोर्नु घाल्नु वज़न केल्लें. धातुचो गोलु बुड्डेव्नु वज़न केल्लें. भायिर पळ्ळेले उद्काचे वज़नयि केल्ले. अशिशं अनेक रीतीन वज़न कोर्नु, बेरीज वगैरे कोर्नु एकु संखो काळ्ळो. तेचि रीतिन, दुस्रो प्रयोगु कोर्नु आनि एकु संखो काळ्ळो.दोन्नी संखे पडताळूनु पळैले. अचूक आस्सा अशिशं मात्तें हाल्लैत, रायालें किरीट काण्णू घेट्लें. होड पात्रांतु उदाक भोर्नुघाल्नु, किरीट उद्कांतु बुड्डैलें. पैले केल्लेले प्रमाणें प्रयोगु केल्लो. ताज्जे बेरीज वगैरे कोर्नु, तो, रायाक म्हळ्ळालो, "तुग्गेले किरीटा भांग्रांतु,

शेंबरींतु अठरा ते वीस अंशानि कम्मि तरगतीचें धातुचें मिश्रण केल्ला.

"तूं खरोखर सांग्ता?" रायान विचार्लें. "मेग्गेले उत्तर चुक्ल्यारि तुग्गेलो दर्बारांतु सेवक म्हूण्णू काम कर्तां" आर्किमेडिसानं आत्मविश्वासान सांग्लें.

रायानं शीघ्रतेन ते सुवर्णकाराक आप्पोव्सूनु विचार्लें, "तूंवें मेग्गेल्या किरीटांतु, अठरा ते वीस अंशानि कम्मि तरगतीचें धातु मिश्रण केल्लिलो व्हय्येवे?" अस्सलो सरळ प्रश्नांक तो भिल्लो., "रायाक हें कशिशं कळ्ळें?" ताणें चूकि कबूल कोर्नु , दयेचि मागणी केल्लि.

"अस्सलो अपराधाक हांवु मरणदंडनेचि शिक्षा दित्तां" रायु म्हळ्ळालो.

तोपर्यंत, थयिं निप्पूनु बशिशलो आर्किमेदिसु, मुकारि येव्नु ताग्गेलि शिक्षा माफ कोर्चाक विनंति केल्लि. आर्किमेडिसु म्हळ्ळालो, "ताणें ही चूकि कर्नाजाल्यारि, माक्का हें सिद्धांताचो विचारु येनाश्शिलो. ताग्गेलो चुकिनऽचि हांवें नवीन सिद्धांताचे शोधन केल्लें. म्हणून ताग्गेलि शिक्षा माफ कोर्का."

रायानं ताक्का गंभीर ताकीत दीव्नु सोण्णु दिल्लें. नंतर आर्किमेडिसान अनेक प्रयोग कोर्नु "आर्किमेडिस सिद्धांत" प्रसिद्ध केल्लें. आनि जगांतुले सर्व शास्त्रज्नांक एक नवीन सिद्धांत मेळ्ळें.

# तीन मूर्ख बुद्धंत

एक शहरांतु चारि जिवलग मित्र आश्शिल्ले. तांतुले तीन मित्र अत्यंत सुशिक्षित, पण व्यवहार ज्नान कम्मि, चौथ्याक शिक्षण ऊणें, जाल्यारि व्यवहार ज्नानांतु बरो ज़ाणतो आशिलो. ते, तांगेलो वेळु एकत्र मेळ्नु अनेक विषयाचेरि चर्चे करीत काड्ताशिले.

एकपटि, तान्नि, दुस्रे शहराक वोच्चो विचारु केल्लो. "आम्गेले शिक्षण, ज्नानांचे करामत, थंचो रायु, विद्वान लोकांक दाकोव्नु भारी धन-संपत्ति मेळोव्यां, आनि समऽचि वांटूनु घेव्यां, ना ज़ाल्यारि ह्या उच्च शिक्षण, ज्नानांचे प्रयोजन कित्तें?" अशिं अभिप्रायु ज़ाल्लो. चौथे मित्राक शिक्षणांचे विशेष ज्नान नाशिलें. तरी तांचेवाट्टु येञ्चि इच्छा दाकैलि. ऐक्लो म्हळ्ळालो," तूं शिक्षणांतु विशेष काहीं ज्नान नाशिलो, ज्नानांचे कस्सले करामत दाकैतलो. आम्गेल्या धन-संपत्तीतुलो वांटो तुका कसल्याक दीव्का ? तूवें आम्चे वोट्टु येञ्चें नाका." दुस्रे मित्रानयि ," व्हयी, व्हयी" म्होण्णु ताक्का सम्मति दाकैलि.

पण तिस्रो मित्रु दयाळु आशिलो. "आम्मि सानपणंपास्सूनु एकत्र वाड्लांचि, एकत्र बैसूनु गप्पा गोष्ठि कर्ताति, ताका कम्मि शिक्षणा मेळ्यां व्हयी, तें ताग्गेले नशीबांतु नाज़ाल्यारि तो कित्तें कर्तलो? तरी आम्गेली  मैत्रि ध्रढ आस्सा. येव्वो तो अम्चेवोट्टू" अश्शिं सांग्लें. एकु बरोऽ दिवसु पोळोव्नु चौघेयी भायिर सर्ले.

एक घनदाट रान्नांतुल्यानं वत्तस्तना वाटेरि तांकां हाडांचि होड्लि राशि दिस्लि. हाड्डांक पोळोव्नु, ऐक्लो म्हळ्ळालो, "मित्रानो, आम्गेले ज्नानांचे प्रयोगु कोणेयी कोर्नु पळैलावे? ताज्जे खरेपण कश्शिं कळ्तलें?" "सर्वानी" नां "म्हूणणू ज़वाब दिल्लि. "आत्तं एक सुसंधि आय्ला, मंत्रशक्तीन हाड्डांतुल्यान एक प्राणि जीवंत कोर्या, तेद्नांचि आम्गेले ज्नानांचो परिणामु कळ्तलो." "बाकि दोन मित्रांकयि ही सूचना योग्य दिस्लि. पण चौथो म्हळ्ळालो", हीं हाड्डं सान प्राणींचि न्हयिं, सिंहु, वागु अस्सल्या भयंकर होऽड प्राणींच्शि दिस्ताति, तुम्गेले ज्नानांचो प्रयोगु कोर्चाक अत्यंत सावधगिरीन मुकार्शियाति. ताग्गेले उत्रांक सर्व खसखसूनु हास्ले.

"भित्र्या, आम्का कस्सल्याक भिवैता, तुग्गेले ज्नान अल्पशें आस्सा, आम्गेले कामांतु नांक कस्सल्याक घुस्सैता, तोंडऽ बंद कोर्नु, शांत रीतिन बस्चाक जायिनावे, तुका?" म्हळ्ळाले. चौथे मित्राक वाय्टऽ दिस्लें. आनि तो गप्प बस्लो. बाकीचे मित्र ज्नानांचो प्रयोगु कोर्चाक मुकार्सले.

एक्ळ्यानं हाड्डाचे बोंडऽ, चारि पाय, हर्ध्याचीं हाड्डं, वगैरे जोड्सूनु दवर्लिं. तों जोड्सिलों अस्तिपंजरु होऽड सिंहालोसों दिस्ताशिलों. पयलें मित्रान उद्दाक मंत्रसूनु हाड्डांचेरि फापुळ्ळें, क्षणार्धांतु तीं ज़ोड्सूनु सिंहालो अस्तिपंजरु ज़ाल्लों. ताणें विजयीवीरावारि बाकि मित्रांकडेन पळैलें "हांवु हाका रक्त,मांस दीव्नु चामडीन धांप्ता, दुस्रों म्हळ्ळालों, मंत्रशीलें उद्दाक फापुळ्ळे तक्षण जीव नाशिलें सिंहाले शरीर (शवऽ) ज़ाल्लें.

तो, तिस्रे मित्राक आह्वान, दीत, "तुका साध्य ज़ाल्यारि ह्या सिंहाक जीवित करी,म्हळ्ळालों," तें हांवु आत्तां कर्तां, म्हणत तिस्रों मुकार्सलों.

चौथों म्हळ्ळालों, "हांवें कस्सलोयि उपदेशु दिव्चाना म्हूण्णु गोत्तास्सा. हों मेल्लिलों सिंहु अत्यंत भयंकर प्राणि, ताक्का जीवंत केल्यारि तों सर्वांक मार्नु उड्डैतलों, दय कोर्नु अत्यंत सुरक्षितेन मुकार्शियाति, ही मेग्गेलि विनंती आस्सा."

पण ताग्गेल्या विनंतीक तान्नी कस्सलेयि लक्ष दिल्लें नां. ते म्हळ्ळाले "मूर्खा! आम्मि जीवंत केल्लिलों सिंहु आम्कायि कश्शिं मार्नु घाल्तलों? ही सादा बुद्धि नांवे तुका"? "हांवुं ताका आत्तची जीवित कर्तां पळे", तिस्रों म्हळ्ळालों. हें पोळोव्नु, चौथों ऊंच रुकारि चोड्नु बस्लों.

तिस्रे मित्रान हात्तांतु मंत्रशीलें उद्दाक घेव्नु, त्या सिंहाले शवाचेरि फापुळ्ळें.

क्षणार्धांतु तो सिंहु जीवंत ज़ाल्लो, दोळे सोण्णू मात्तें हालैलें. गुर्र,गुर्र कर्तची भयंकर आवाज़ान वदर्लो.

ताक्का पोळोव्नु तिन्नीयि मित्र भिल्ले. कित्तें कोर्का म्हूण्णु कळ्ळें ना. सग्ळे हांगा थयीं धांव्चाक लाग्ले. तांगेलि स्थिति अत्यंत दयनीय ज़ाल्लि.

धाव्नु वत्तस्तना एक्ळयाक सिंहान हात्ता पंज्यान मार्नु आड पाडैलें, दुस्र्याक धोर्नु दूर उडैलें. तिस्र्याक गळो दाब्बूनु मार्नु घाल्ले. क्षणार्धांतु तीनि मित्र मोर्नु पळ्ळे.

रुकारि बशिशल्या चौथे मित्राक हें पोळोवुन भारी दुःख ज़ाल्ले. पण कित्तें कर्ता? "अहंकारान मेग्गेले विनंतीक लक्ष्य दिल्लेनामूं", म्हळ्ळालो.

सिंहु रान्नांतु गेल्लिले तक्षण, तो रुकावैल्यान देव्नु घराकडेन शीघ्रतेन धाव्नु गेल्लो.

तिन्नी मित्राले संबंधिकांक ही बात्मि दिल्ली. ही दुःखांतिका अय्कूनु सर्व शोकित ज़ाल्ले. तांगेले म्रतदेहाचे अंत्यसंस्कार केल्ले.

* * * * *

## विदेशी नागरिकाक निरुत्तर केल्लें

एकु भारतीय नागरिकु विदेशाक गेल्लेल्तेन्ना थंचे नागरिकान श्रीकृष्णाबद्दल वायिट उद्गार काड्ले. आठ पट्ट्र राण्यो, सोळा सहस्र नारी आशिल्या स्त्रीलंपटाक पूजा कर्ताति?"

भारतीयान ताका विचार्लें, "तुका कित्ल्यो बाय्लो आस्साति?"

त्या विदेशीयान ज़वाब दिल्लि. एक. "आन्नि एक बाय्ल करी" भारतीयान सांग्ले.

"ह्य म्हार्गायींतु दोन बाय्लो दवर्चें कठीण." विदेशीयान म्हळ्ळें. "तीन बाय्लऽ दवरी". ह्या प्रश्नाक, ताणें "तें शक्य ना" म्हळ्ळें. चारी बाय्लो दवरी?"

"तें अश्क्या पेल्तान अशक्य" तो म्हळ्ळालो. पांच बाय्लो करी, "अरे! तान्नि सर्व माका पिंदूनु काड्तलीं" दोन्नी हात हालैत, ना म्हूण्णु म्हळ्ळालो.

भारतीयान म्हळ्ळे, "पांच बाय्लांक भीव्नु तूवें पाय माक्षेन काड्ले. आम्गेले श्रीकृष्णाले आठ राण्यो आनि जरासंधाले बंधनातुल्यान मुक्त ज़ाल्लिले स्त्रीयानी कृष्णांकयी आपण्यले पती मान्निले. कृष्णान सर्वांकयी सुखान दवरिलें. हें ताग्गेले कित्लें होडपण? म्हूण्णू अम्मि ताका देवु मानताति" हाज्जेन विदेशी नागरीकु निरुत्तर ज़ाल्लो.

# जैतसिंगान साक्षि फूट्टैशिलि

ब्रिटिश राज्यवटिंतु, बिहार राज्यांतुले बक्सार संसथानांचो रायु, राजा जैतसिंगु प्रचंड प्रतापि आश्शिलो. ताग्गेले आज्ना, सूचने विरुद्ध वोच्चाक ताग्गेले प्रजाजनांक धैर्य येनाश्शिलें. हाज्जेन ब्रिटिश साम्राज्यांतु ताग्गेले संस्थान मेळोव्नु घेव्चाक (विलीनकोर्चाक) तांकां यश आयिल्नाश्शिलें. कुयुक्तीन किंवा खंचे रीतिन विलीन कोर्चि संधि पळैताश्शिले.

राजा जैतसिंगु ब्रिटिश सरकाराचि नकली नोट्टं तयार कर्ता, ह्या आरोपाचेरि ताज्जेरि खट्ळो दाखल केल्लो. पण जैतसिंगा विरुध्द साक्षि दिव्चाक कोणीय़ी तयार ज़ाल्ले ना. आखेरीक, सरकारी वकीलान ऐक धोबीक साक्षि दिव्चाक तयार करैशिलें. सक्षि दित्तल्याक धमकि वगैरे दीव्नु साक्षि फुट्टोव्चेबद्दल ब्रिटिश सरकार विरुद्ध आश्शिलें. आखेरीक खट्ळ्याची सुनावणि सुरु ज़ाल्लि.

सरकारी वकीलान साक्षि, धोबीक विचार्लें, "तूवें जैतसिंगान नकली नोट्टं तयार कोर्चें खयीं पळैलें? तें सविस्तर कोर्टाक सांग". ते वेळारि कोर्टांतु बश्शिल्या जैतसिंगाले प्रतिनिधीन ऐक बोटऽ वैरि कोर्नु इषारो केल्लो. अर्थात् ऐक हज़ार रुप्पयीचे आमीश दाकैलें. धोबीलि साक्षि सुरु ज़ाल्लि.

"ते दिवसु सकाळिं नित्यावारि कपडे धुन्चाक न्हयींचे तटारि राब्बीलो. दुस्रे बाज़ून राजा जैतसिंग आनि ऐेक व्यक्ति वत्ताशिलि. केद्नायि पांच- सह साथीदाराशिवाय जैतसिंग भायिर वत्नाति. हें कश्शिं म्हूण्णु माका कळ्ळेंना". तांकां कळ्नाश्शि तांगेले माक्षेन गेल्लों. "तेद्ना जैतसिंगाले प्रतिनिधिन दोन बोट्टंऽ वैरि कोर्नु दाकैले. धोबि मुकारि म्हळ्ळालो". "मुख्यरस्तो सोण्णु, ते सान पायवाट धोर्नु मुकार्सले. हांवूयि तांगेले पाठोपाठ गेल्लो. ती वाट रान्नांतुले ज़ाड-ज़ुडुपांतुल्यान वत्ताशिलि. तशींचि दोग्गयी मुर्कासले". "जैतसिंगाले प्रतिनिधीन तीन बोट्टंऽ वैरि केल्लिं". "तीन हज़ार रुप्पयेक मेग्गेली कबूलि ना" अश्शिं धोबीन ताग्गेली मान दोन पटि दावें-उज्व्यानं फिरोव्नु इषारो केल्लो.

धोबीलि साक्षि तश्शिंचि मुकार्सलि. "ती पाय वाट रान्नांतुल्या ऐेक उंच ज़ाग्यावैल्यान वत्ताश्शिलि. जैतसिंग आनि ताग्गेले साथीदाराले पाठलाग करीत हांवूयि मुकार्सलो. ते दोग्गयी ऐेक होड फात्तरालाग्गिं येव्नु राब्ले. तीन हज़ार रुप्पयेक धोबी कबूल ज़ाय्ना म्हूण्णु , आखेरीक जैतसिंगाले प्रतिनिधीन हात्तांची पांचयी बोट्टंऽ वैरि कोर्नु दाकैले. तेद्ना धोबीन मात्यावैलि पगडी पुनः बांधूनु, दोन्नी हात वैरि कोर्नु इषारो केल्लो. अर्थात "मेग्गेली कबूलि आस्सा" अश्शिं ते प्रतिनिधीक कळ्ळें. ते वेळारि अस्सले इषारेक विश्वासान लोक मानताशिले. कोणीयि लबाडि वगैरे कर्नाशिले.

"उल्लोव्नु उल्लोव्नु ताळो सुक्ला, थोडे उद्दाक दिव्चाक" धोबीन विनंति केल्लि. थोडेशे समाधान कोर्नु धोबी मुकार्सलो.

"त्या दोग्गानीं तो फात्तोरु बाज़ूक सरैलो. थंचान ज़मीनिसकल्चे भुयारांतु वोच्ची वाट आश्शिलि. जैतसिंग आनि ताग्गेले साथिदारानिं भुयारांतु पाय सोण्णु उड्क मार्लि. हावेंयी भित्तरी उड्क मार्चि तयारि केल्लि. ज़मीनिरि हात्तांचे आधार घेव्नु दोन्नी पाय भित्तरि सोळ्ळे. "मुकारि कसलें ज़ाल्लें, सांग?" सरकारी वकीलु उतावीळ ज़ाव्नु म्हळ्ळालो. "आत्तां ऐकयी दृष्तांत "धोबीन सांग्चे उर्ले, धोबीन सकल उड्क मार्लि, थयीं ताणें नकली नोट्टं तयार कोर्चि यंत्र सामग्रि पळैलि", "हें सांग्लें की साक्षि समाप्त ज़ाव्नु पुरावो कोर्टा एद्राक येत्तलो, आनि जैतसिंगाक शिक्षा ज़ात्तलि", हे विचारान सरकारी वकीलु खुषींतु उर्लो.

"मुकारि कस्सलें ज़ाल्लें, सांग?" ब्रिटिश न्यायाधीशान चौकशि केल्लि. "कस्सलें सांगू, जज्जसाहेब? कोणें की मेग्गेले दोनी पाय वोड्ले", कित्लो वेळु निद्दोव्चो? आजि कामारि वाच्चें नांवे"? अशिशं सांगूनु मेग्गेले बाय्लेन माका पाय वोड्डूनु ज़ागैलें.

"म्हळ्यारि, हें तूवें सर्व खयीं पळैलें?" न्यायाधीशान विचार्ले प्रश्नाक, दोन्नी हात ज़ोड्नु, "हावें जे स्वप्नांतु पळैलें तें खरोखर सांग्तां, जज्ज साहेब" दुखिः चेहरा कोर्नु धोबी म्हळ्ळालो. "मूर्खा, कोर्टाचो वेळु वाय्ट केल्लो", सांगूनु, न्यायाधीशान तेब्लावैले पुस्तक काण्णु धोबीक मार्ले. तें चुकूनु धोबीले पाय्यामूळांतु पळ्ळें. रागारागान दोळे सोडीत तो ब्रिटिश न्यायाधीशु आपण्याले कक्शांतु (केबिन) गेल्लो.

नंतर दुस्रे ऐक आरोपाचेरि ब्रिटिश सरकारान जैतसिंगाक फाशी दिल्लि.

# कृष्णानं कालयवनालो कांटो काळ्ळो

कंसाले हत्ये नंतर तागेले अनुयायि जरासंध, मगध नरेश वगैर्‍यानी मथुरेचेरि केल्लेले अक्रमण बलराम आनि कृष्णानी परतावूनु लाय्लें. आखेरीक कालयवनालें नेत्रत्वाचेरि एक बलाड्य सैन्य घेव्नु पुनः आक्रमण केल्लें.

कालयवनु, हो यवन स्त्री आनि ऋषीले शरीर संबंधान जन्माक आयिल्लो. ''शस्त्रास्तान तुक्का मरण ना अश्शीं त्या ऋषीले वरदानान तो मदोन्मत्त जाल्लीलो. राजनीति रिवाजा प्रमाणे कालयवन आनि कृष्नालि भेट मथुरेंतु जाल्लि.''

कृष्णानं ''निष्पाप सैनिकालि हत्या, रक्तपात जाव्चे माक्का पसंत ना. बदलांतु आम्मि केवल दोग्गानीयि निर्णायक् युध्द कोर्का, माक्का वीरगति आय्लारि मेग्गेलें संपूर्ण राज्य तुक्कामेळ्का, आनि तुक्का मरण आयल्यारि, तुग्गेले सैनिकांक सुरक्षितेन स्वदेशाक परत वोच्चाक आम्मि बाध्य'' अश्शीं सूचित केल्लें.

''बारीक शरीर यष्ठिच्या कृष्णाक एक क्षणांतु चिर्डूनु घाल्चो अहंकारान कालयवनान ताक्का सम्मति दिल्लि. ''तुग्गेले

मरणानंतर तुग्गेले सैनिकांतु अराजकता उत्पन्न जाव्नु ते मथुरेचेरि आक्रमण कर्तले, तें चुक्कोव्चाक आम्मि दूरस्थळारि वोच्चूनु युध्द कोर्का, "विजय पाव्विलो, हें नियमा प्रमाणें मुकार्शितलो", हें यी कृष्णान सांग्लें

आंगारि तांबडें अंगवस्त्र पांगूर्नु कृष्णु आनि कालयवनु भायिर सर्ले. अतिदूर प्रदेशाक पाव्ले नंतर, कालयवनाक, "माक्का तुज्जेवोट्टू युध्द कोर्चाक भय दिस्ता", सांगत कृष्णु धांव्लो. "भित्र्या, धाव्त खयिं, एक पटि मेग्गेल्या हात्तांतु मेळ, चिर्डूनु घाल्ता किं ना पळे". सांगत तो कृष्णा माक्षों धाव्लो. झड झुडूपा आड निप्प्त, कालयवनाक आप्पैत, कृष्णु मुक्कारि धाव्लो. ताक्का सोद्दत, पर्वत प्रदेशाचे एक उंच जाग्यारि कालयवनु पाव्लो त्या जाग्या सक्कल राब्बूनु, तांब्डें अंगवस्त्र हाल्लैत, "कालयवना, हांगा यो" सांगत युध्दाक आह्वान कर्तची कृष्णु थंचे एक गुहेंभित्तरि गेल्लो.

त्या गुहेंतु, राजा मुचुकुंद नीद काडीत आश्शिलो. ताणें, स्वर्गाधिपति देवेंद्राक राक्षसाले विरुध्द जाल्लिले युध्दांतु सहायु केल्लेलो. "देवा, आत्तां युध्द समाप्त जाल्लें. मेग्गेल्या राज्याक वोच्चाक अनुमति दी", ह्या मुचुकुंदाले विनंतीक, "मुचुकुंदा, थयीं तुग्गेले नात्तु, पणतु सर्व राज्य कोर्नु गेल्ले, आत्तां तुग्गेलो गुर्तु कोणांकयी मेळशी ना. तुक्का विश्रांतीचि अत्यंत गरज़ आस्सा. तूं ह्या गुहेंतु नीद काडि, थयीं तुक्का कोणीयि जागैशि ना, बलप्रयोगान जाग़ैल्यारि, तुग्गेलि दृष्टि ताज्जेरि पळ्ळे तक्षण तो भस्म जाव़्नु वत्तलो", अश्शिं वरदान दीव्नु देवेंद्र मुकार्सलो.

कृष्णाक हज्जें संपूर्ण ज्नान आश्शिलें, गुहेंतु निद्दलेल्या मुचुकुंदाचेरि आंगवस्त्र पांगूर्नु कृष्णु निप्पूनु राब्लो. कृष्णांक सोधत कालयवनु त्या गुहे तोंडापाशि आय्लो. धूलींतुलि पाव्लं, पोळोव्नु कृष्नूचि गुहेंतु निप्ला ह्या समज़ूतिन तो मुक्कारि गेल्लो. अंधूक प्रकाशांतु अंगवस्त्र पांगूर्नु घेत्तिल्या मुचुकुंदाक, कृष्णूयि समझूनु "हांगा येव्नु निप्ला, कृष्णा, ऊठ, ऊठ" सांगत ताक्का जागोव्चें प्रयत्न केल्लें. तेदना मुचुकुंदु जागो जाव्नु "खंचे दुष्ठान माक्का जागैले" म्हणत दोळे सोळ्ळे. एद्राक "ऊठ, ऊठ" म्हणचो कालयवनु दिस्लो. मुचुकुंदालि दृष्ठि कालयवनाचेरि पळ्ळे तक्षण तो भस्मसात जाल्लो. हज्जेन संभ्रमित जाल्लिल्या मुचुकुंदाक, कृष्णान आपण्याले निजरूप दाक्कैलें. "तूं गंधमादन पर्वताचेरि वोच्चूनु शेषायुष्य समाप्त कोर्नु मुक्ति मेळयी". अश्शिं आदेशु दिल्लो. विजयी वीरु, कृष्णाक पोळोव्नु, ताःग्गेले प्रजाजनांनि जल्लोषान स्वागत केल्लें.

"वीष पीवोव्नु अथवा बांय्तु बुड्डोव्नु कालयवनालि हत्या केल्लिना मूं", म्हणत रागान, त्वेषान जळत, जरासंध वगैरे परत गेल्ले. अश्शिं कृष्णान कालयवनालो कांटो काळ्ळो.

# गणेशमूर्ति मात्तीची ज़ाव्का, इत्याक?

पुराणोक्त गणपती जन्मकथेन हाक्का पुष्टि मॆळ्ता. आम्मि ताज्जें विवेचन कोर्यां.

पार्वती देवीन आपण्यालॆ आंगांतुलॆ मात्तीन मूर्ति कोर्नु, ताका जीवदान दिल्लॆं. नंतर ती स्नान कोर्चाक गॆल्लि. आंगाक लायिल्या चंदन (श्रीगंधान) मूर्ति केल्लि. हॊ एकु दुस्रॊ वादु. कैलास पर्वताचेरि असाद्य थंडी, आंगाक चंदन लाव्नु पुनःथंडायि हाड्ची कस्सली अवष्यकता ना. हाज्जेन चंदना मूर्ति केल्लिल्ना हें सिद्ध ज़ात्ता. हल्ली, प्लास्तर ऒफ़ पॆरिस, मात्ति आनि कागदाचें मिश्रणांन, प्रदूषण कर्नाश्शिलॆ मूर्तियॊही कर्ताति. नंतर पार्वती देवी स्नानाक कित्याक गॆल्लि? हाज्जें विवेचन कोर्यां.

आंगांतुलि मात्ति पोळोव्नु न्हाव्चाक वॊच्चॊ विचारु साहजिक. बांय्लं पळैयाति,दर पंद्रा दिवसांतु एकपटी तरी, शांपू वगैरे घाल्नु मात्यारि न्हात्ताति. तिळ्साना कामावैल्यान आयिलॆ नंतर कित्येक लोकु परत स्नान कर्ताति. (अर्थात भरपूर उद्काक मॆळ्यारि!)

नंतर पार्वती देवीन जीवदान दिल्लेल्या बालकाक बागिलारि बस्काराव्नु "को णांकयी भित्तरि सोड्नाका" अशिं आदेशु दीव्नु ती न्हाव्चाक गेल्लि. कारण तिग्गेलें महलांतुलें सर्व कूडं (आम्गेलें खोल्यावारि) बागिल बंद कोर्चिं नाशिशलिं. सर्वयी मुक्त कूडं ! (खंचो चोरु येत्तलों म्हूण्णु बागिल बंद कोर्का).

अकस्मात खंचोयि पुरुषु येव्नु हित्लांतुलें कामा खात्तिरि "पार्व्वतम्मा, कोइति कुराडि, लांबऽ राज्जु,चील ज़ाव्का वगैरे अवज़ारां खात्तिरि भित्तरि येव्चाक नज़्ज़" म्हूण्णु कोणांकयी भित्तरि सोड्नाका "अशिं आदेशु दिल्लों. असाध्य थंडीन थयिं नित्य स्नान कोर्चि पद्धति ना. (उद्दाक हून कोर्चाक लाक्डं खयीं मेळ्तातिं?) केवल हाथ- पाय धूव्नु, सिल्क, वूलनांचो शालु पांगूर्नु पूजेक बस्ल्यारि चल्ता. शेज्जार्चें देश, टिबेटियन्नालि पद्धति पोळोंव्यां. ते स्नान कोर्चे बाद्दल संपूर्ण अज्नानी, लग्नाळु कुमारिकेन तोंडऽ वगैरे धूव्नु घेत्ल्यारि, आपण्यालें सौभाग्य पुस्सूनु उड्डैलें अशिं अंधश्रद्धा आस्स. टिबेटियन पटेवालाक "साब स्नान करनेको गये हैं" सांग्लारि "स्नान करना क्या चीज़ होत्ती है, हमको मालूम नहीं है" अशिं म्हळालों खयिं, कित्येक टिबेटियन जन्मभर न्हाय्नाशि, "अस्नात बहाद्दूर" ज़ाव्नु आस्साति खयिं. आत्तां मुकावैलि काणी सर्वांक विदित आस्सा. ईश्वरु घरा आय्लों. त्या चेरडान ईश्वराक घरा भित्तरि वोच्चाक दिल्ना. दोग्गां मद्धें हाता-पायि ज़ाल्लि. कोपान ईश्वरान त्या चेर्डालो गळो काप्पूनु उड्डैलों. पुत्रमराणान शोकित पार्वतीलें दुंख सांत्वन कोर्चाक, दक्षिण दिकान मात्तें कोर्नु निद्दलेल्या हस्तीचो गळो काप्पोनु

लाव्नु ईश्वरान चेरडाक जीवित केल्लें. आत्तां पळया, बाय्लांन्क खंचेयी काप्पड दाकैले तरी, हाज्जे रंगु सम्मऽ ना, डिज़ाय्न सान आस्सा, कापाडाचें सूत नाज़ूक ना, अश्शिं अनेक खोड्य़ो (दोष) काड्ताति. तश्शींचि पार्वतीन "हाग्गेले नांक कित्ले लांब, कान सूपा (गेरश्शी) इत्ले होडऽ, दोळे सान्न" वगैरे दोष काड्ले. "पैलें चेरडूं कित्लें सुंदर आश्शिलें?" म्हळ्ळालि. ईश्वरान आपण्यालें सर्व अष्ठैश्वर्य दीव्नु प्रथम पूजेचें मानकरि केल्लो. विद्याधिकारि अश्शिं मान–सन्मान घेव्नु ,गणाधिप ज़ाल्लिल्या गणपतीक पोळोव्नु पार्वती देवीन, "मेग्गेले मोगा चेर्डा, आत्तं बैस मांडीरि", सांगूनु मांडीरि बस्कारान्नु घेत्ले "वाचकानो, गणपतीचि मूर्ति मात्तेचि ज़ाव्का हें सिद्ध ज़ाय्नावे?"

# सर्दार्जीलो स्वर्गारोहण

पंजाब, उत्तर प्रदेश सारख्या राज्यांतुले एक गांव्चे श्रीमंत जमीनदाराले घरचे लग्ना समारंभाक आयिले अनेक सोयरे संबंधिकांतु एक सरदार्जीभि आश्शिलो. रात्रि जेव्णानंतर, घरांतुलि लांबी, लांब वासशींतु तांका निद्दोन्चाक जमखान, चादर वगैरेचि तय्यारि केल्लेलि, जेव्णांनंतर सर्व थयिंचि निद्दले. सर्दार्जीभी थयींचि निद्दलो.

मध्यरात्रि नंतर, सर्दार्जीक एक सप्पन पळ्ळें. तांतु यमदूतानि येव्नु, ताक्का यमलोकाक वोड्डूनु व्हेल्लें. थयिं चित्रगुप्तान (पाप, पुण्याचें जमाखर्चु दवर्पि) जमाखर्चाचे पुस्तक पोळोव्नु तांका म्हळ्ळालो "आरे, तुम्मि चुक्कूनु दुस्रे मनुष्याक हाळ्यां. हाग्गेले आयुष्य अज्जूनु बाकि आस्सा, ताबडतोप हाक्का परत पेटोव्नु दिय्याति". पण यमलोकांचे वाहन (रड्डो) कोणीतरि दुस्र्यानं व्हेल्लिल्यान थोडो अवकाशु आश्शिलो. (भूलोकांतु सायबालें जीप / कार साय्बालि बाय्ल वापर्नावे, तश्शीं) तो पर्यंत ताक्का थयिं एक विशाल कूडांतु बश्चाक सांग्लें

"बाकि कडेन झग झगीत प्रकाशु आस्सा, हांग मात्र हेदिव्वे कित्याक जळ्ताति?" सर्दार्जीले कुतूहलाक कोणेयि

समर्पक जवाब संगिल्ना. आखेर ऐक्ळ्यान सांग्लें, "हे दिव्वे, भूलोक वाशियांले आयुष्याचे प्रतीक. जो पर्यंत ह्या दिव्यांतु तेल उर्ताकिं, तो जीवंत उर्ता. तेल आट्टूनु गेल्लेकिं ताग्गेले अयुष्य खर्चूनु वत्ता. तेद्‌ना आम्मि ताक्का हांगा वोड्डूनु हाड्ताति". अशिशं ताणें सांग्लें.

"दया कोर्नु मेग्गेले आयुष्याचो दिव्वो दाक्कैतावे?" सर्दार्जीले विनंतीक ताणें दिव्वो दाक्कोव्नु तो ताग्गेल्या कामांक गेल्लो.

सर्दार्जीले दिव्यांतुले तेल संपूर्ण आट्टूनु गेल्नाशिशलें. थोडेशें बाकि आशिशलें, तेल भोर्नु आशिशलें दिव्यांतुले तेल, आपण्याले दिव्यांतु भर्ल्यारि आपण्याले आयुष्य वाड्तले हे विचारान तेल भर्लिलो दिव्वो काड्चाक प्रयत्न केल्लें. पण सर्व दिव्वे स्थिरतेन (घट्टिट) बस्कारायिले. दिव्वे काड्चाक जाल्लेना. तरी सर्दार्जी हारि मान्चाक (सोल्वुचाक) तयार जाल्लोना . तेल्लांतु बोट बुड्डोव्नु, थेंबो भरी तेल आपण्याले दिव्यांतु घाल्चो विचारु केल्लो. आजूबाजूक पोळोव्नु, साव्काश तेल्लांतु बोट बुड्डोव्नु, दिव्यांतु एक थेंबो तेल घाल्लें. कोणेयी पळैयिल्ना अशिशं खात्रि कोर्नु आन्नि एक पटि बोट बुड्डोव्नु पुनः एकु थेंबो तेल घाल्लें. कोणलें लक्ष्य नाश्शील्यान ताक्का थोडेशें धैर्य आय्लें. "दोन बोट्टां बुड्डैल्यारि दोन थेंबे मेळ्तले" ह्या विचारान, दोन बोट्टां बुड्डैयिलिं. कोणेयी पळैयिल्ना. आत्मविश्वासन आनीएक पटि दोन्नीयि बोट्टं तेल्लांतु बुड्डैयिलिं. – .................., दिव्यांतु तेल घाल्चे पैलेंयीं, कोणे तरी ताक्का फाट्टीरि मार्नु जागैलें. शेज्जारि निद्दलेल्या व्यक्तीन फाट्टीरि मार्लेले सर्दार्जीक कळ्ळें.

"तूवें माक्का कित्याक मार्ले?" सर्दाजीलें प्रश्नांक तों, म्हळ्ळालों, "तूवें एक पटि मेग्गेल्या कान्नांतु बोट घाल्लें, हांवु नुतऽ बस्लों, दुस्रे कान्नांतु बोट घाल्लें, हावें काहीं म्हळ्ळे ना, केन्ना मेग्गेल्या नांकांतु दोन्नी बोट्टं घाल्लिं, तेयीं सहन केल्लें, पण तीं बोट्टं मेग्गेल्या तोंडांतु घाल्लेलें माक्का सहन ज़ाल्ना, तुग्गेलें घाण्यार्डें काम कशिशं सहन कोर्चें? मूण्णु तुक्का फाट्टीरि मार्नु मार्नु ज़ागैलें", म्हळ्ळालों. तेद्ना सर्दार्जी स्वर्गलोकावैल्यान भूलोकांतु परत आय्लों.

अशिशं सर्दार्जीलें स्वर्गारोहण ज़ाल्लें.

# खांब्यांतुल्तान घोडो जन्मांक येत्ता

तिळ्सान ज़ाय्त आय्यिलि. द्वारपालकानि त्या शहराचे मुख्य द्वार बंदकोर्चि तयारिंतु आस्तना, "बंद कोर्नाकाति, बंद कोर्नाकाति" एकु घोडेस्वारु द्वारा लाग्गिं आय्लो. "हांवु लाग्गीचें शहराचो व्यापारि, खरेदि कोर्चाक आय्लां, माका भित्तरि वोच्चाक दिय्याति" अश्शिं आपण्यालो परिचयु दीव्नु, तो भित्तरि गेल्लो.

वाटेरि एक भिकार्यान ताका आडैलें. "रायानुं, माका दोन रुप्पयो दिय्याति, काल पासूनु दारुचो (सोर्याचो) एकु थेंबुयी गळांतु गेल्ना. हांवुं दारु पित्तां व्हयि, मेज्जेरि दया करा", पदे पदे सांगत घोड्या एद्राक राब्लो. "हे घे दोन रुप्पयो" सांगूनु घोड्या सवारु मुकार्सलो.

रात्रि अन्नछत्रांतु जेव्नु, एक गृहस्थाले घरा खांब्याक घोडो बांद्लो. घरा माल्किणीन भाय्ले ज़ग्लीरि निद्दोव्चाक मांद्रि, चादर, पिव्चाक उद्कातांबीयो वगैरे दिल्लें. तिका धन्यवादु दीव्नु तो निद्दलो. सकाळीं उठाव्नु घोड्याक सोडोव्नु

व्हर्तना एक्ळ्यान म्हळ्ळें" हो घोडो आमगेलो, प्रत्येक महिन्यांतु ह्या मितीरि, खांब्यांतुल्यान घोडो जन्माक येत्ता, हो मंत्राचो खांबो, घोड्याक सोडोव्नाकाति".

आश्चर्यानं ताणें विचार्लें "काल रात्रि मेग्गेल्या घोड्याक हांगा बांदिल्लें, तो घोडो तुमगेलो कश्शिं ज़ाल्लो?"

आन्नेक्ळानं म्हळ्ळें "हो घोडो तांगेलोची. तुमगेलो न्हयीं."

तिस्र्यान, संभावितावारि येव्नु विचार्लें "कस्सली गडबडीरे?" "त्या दोग्गांनीयिसर्व वृत्तांत साग्लें. "व्हयि, व्हयि", "हो घोडो" तांगेलोचि, खांब्यांतुल्यान घोडो जन्मांक येव्चे माकयि गोत्तास्सा". अश्शिं साक्षि दिल्लि.

वास्तविक ज़ाव्नु हे तिग्गेयि चोरऽ मेळ्नु आश्शिले. नवीन इसमाक फ़सैताश्शिले.

घोडेस्वारु म्हळ्ळालो, "घोडो तुमगेलोयि म्हूण्णू न्यायालयांतु सिद्धकराति. तुमगेले उत्रारि माका विश्वासु ना. न्यायालयांतु खरेपण सिद्ध कोर्चाक साग्लें."

"अरे देवा! ह्या अपरिचित शहरांतु साक्षि खंचान हाड्चि?" शिवायि रात्रि ज़ाल्लेलि. "अश्शिं विचार आस्तना अकस्मात् त्या भिकारीलो उडगासु आय्लो. तो एक देव्ळा पौळीरि निद्दल्लो. ताका ज़ागोव्नु, सर्व वृत्तांत सांग्लें. भिकारीन न्यायालयांतु साक्षि दित्तस्तना, पदे पदे ज़ांबयो दिल्यो. कारण

सांग्तना, तो म्हळ्ळालो" कालि रात्रि समुद्राक उज़्ज़ो लाग्लो, थंचे ज़ळ्के (मासोळि) सर्व रुकारि चोड्नु बस्लिं बायिंतुल्यान चूळिं (नार्लु भोर्नु व्होर्चे), चोब्यान उद्दाक भोर्नु उज़्ज़ो वाड्विलो. रात्रि भर नीद ना पळैया."

न्यायालयांतुले अधिकारि सर्व हास्ले. ते म्हळ्ळाले "चूळींतुलान उद्दाक भर्लें,! ह्या तुग्गेले साक्षिचेरि अम्कां विश्वासु ना, समुद्राक उज़्ज़ो लाग्चो केवल अशक्य, दारूचे धुंधींतु कस्सलेंयी बड्बड नाका".

भिकारि म्हळ्ळालो, "समुद्राक उज़्ज़ो लाग्चें अशक्य ज़ाल्यारि, खांब्यांतुल्यान रातोरात्रि घोडो कश्शिं जन्माक येत्ता?"

थंचे लोकांक ताग्गेले उत्रारि विश्वासु आय्लो, आनि ते योग्ययी म्हूण्णु दिस्लें ताबडतोप घोडेस्वाराक घोडो दिवैशिलो. "अज्नात व्यक्तीक फ़सैसूनु, शहराचें नांव वायिट केल्लें" बद्दल तिन्नी चोरांक दंडू दिल्लो, उत्तम कामगिरि केल्लिल्याक, त्या भिकारीक अर्ध रकं दिल्लि. भीक माग्नास्तना, उद्योग धंदो कोर्चो ताकीद, दीव्नु खट्ळो निकालांतु काड्लो.

# गाद्यांतुलि बायिं चोर्नु व्हेल्हि

एकु निष्टावंत समज सेवकु आश्शिलो. ताग्गेल्या थोडीशि ज़मीनिंतु, उदका अभावान मनपसंत पीक येनाश्शिलें. म्होण्णु ताण्णें गाद्यांतु बांयि खंडौसुचो विचारु केल्लो. आनि रीण घेव्चाक बेंकांतु गेल्लो. बेंक अधिकार्यानि, ज़रूरिचें कागद पत्र घेव्नु, रीतसर ताज्जें फार्म भोरोव्सूनु, ''एक महिन्यानंतर यो'' म्हळ्ळें. एक महिन्या नंतर, ''आम्का मुख्य आफीसांतुल्यान कस्सली ज़वाब आयिल्ना, पुनः एक महिन्यान चौकशि करच्याक'' सांग्लें. तीन चारि महीनें ज़ाल्ले तरी, ताका रीण मेळचें यथास्थिति ज़ाव्नु उर्ले. हो समज सेवकु, लंच वगैरे दिव्चे बद्दल कट्टर विरोधि. हांका समऽ पाठु शिकोव्चाक ताणें निश्चयु केल्लो. हेर्दिवसु बेंक मेनेजराक भेट्टूनु ''तुम्गेले कस्सलें तें कमीशन'' दिव्चाक हांवु तयार आस्सा'' अश्शिं गुप्त रीतिन सांग्ले.

हाज्जे चार पांच दिव्सानि, रीणांचो पयलो हप्तो आय्लो. बेंक अधिकार्यानि, ''आम्मि बांयि खंडोव्सुचे ज़ाग्याचें निरीक्षण केल्लेशीवायि हप्तो मेळशिना'' म्हळ्ळें.

"हळ्ळींतुले रस्ते, बैलगाडीचो प्रवासु, रण रणीत वऽतऽ,वगैरेचें त्रासु कोर्नु घेव्नाकाति, हांवु सर्व व्यवस्थित कर्तां, काळजी नाका", अशिशं ताणें आश्वासन दिल्लें. आनि पैले हप्ताचे कमीशन वरेक दिल्लें. पैले हप्त्याचि क़मीश्न पाव्विल्या एक दोन महिन्यान, दुस्रो हप्तो आय्लो. तांगेले कमीशन दीव्नु "बांयिंचे काम व्यवस्थित चल्लां, काळजि नाका", सागूनु तांगेले निरीक्षणाशिवायि दुस्रो हप्तो घेत्ल्लो.

वास्तवीक ज़ाव्नु ताणें बायिंकायिं खंडैशील्लीना, "स़गळें काम व्यवस्थीत चल्लां" सांगूनु रीणाचे रकम घेत उर्लो. आखेरीक "बायिंचे कम पूर्ण ज़ाल्ला, दिंबि भरी उदकयि राब्ला, ताज्जे कंत्राटदाराक तुम्चे ऐदुरु साक्षि दिवैशितां", सांगूनु एक नकली कंत्राटदारालि साक्षि दिवौसूनु, निरीक्षणा शिवायि आखेरचो हप्तो घेव्नु तो गेल्लो.

हेर्दिवसु, त्या समाज सेवकान, पोलीस स्टेशना वोच्चूनु, "गाद्यांतुलि मेग्गेलि बायिं चोर्नु व्हेल्ल्या, ताज्जि चौकाशि ज़ाव्का" अशिशं फिर्यादि दिलल्लि.

"धन- धान्य, गायि- गोरवांली चोरी ज़ात्ता, बायिंचे चोरी ज़ाव्चे हें कस्सले पिश्शेपण?" पोलीस इन्सपेक्टरान विचार्लें.

"बायिं खंडौसुचाक बेंक अधिकार्यानी माका रीण दिल्लेलो लिखित पुरावो आस्सा, आजि गाद्यांतु बायिं ना, ती खयीं गेल्लि? तुम्मि हाज्जि चौकाशि कोर्का "अशिशं समाज

सेवकान उत्तर दिल्लें "हांतु कस्सलेकीं गूढ आस्सा" अशिशं विचार कोर्नु त्या पोलीस इन्स्पेक्टरान बेंक अधिकार्यांक सर्व बात्मि सांग्लि.

ते भिल्ले. हें प्रकरण वैले स्थराक गेल्यारि परिस्थिति गंभीर ज़ात्तलि, म्होण्णु "आम्मि दुपटीन पैशे दित्तति, हें प्रकरण धांपूनु घाल्चाक" त्या समाज सेवकाक विनंति केल्लि. "माका चडावतेचो पैसो नाका, घेत्तिल्या रीणान खरोखर बांयिं खंडैशितां, पण तुम्मि गांव्चे लोकालि काम्मऽ वेळेरि येव्नु, निष्ठेन कोर्चें वचन दीव्का" अशिशं तांगेलाग्गिं आश्वासन घेव्नु तो परतलो।

* * * * *

## मर्कटस्य सुरापानं

मांक्डानं भरपूर दारु (सोरो) पीव्नु वत्तस्तना, विंचून ताका चाब्लें. दुकीन हाथ पाय ज़ोरान उड्डैत नांचा लाग्लो. ते वेळारि एक भूतान ताग्गेल्या आंगांतु प्रवेशु केल्लो. वाचकानु, तुम्मीचि त्या मनोचित्राचि कल्पना करा.

# देवेंद्रालि ताका कडी फ़जीति

"तक्रं शक्रस्य दुर्लभं", म्हळ्यारि, शक्रस्य (देवेंद्रकयि) ताकऽ दुर्लभ खयिं. कारण स्वर्गांतुले अतिशय थंड हवेन दुद्दाक समऽ मेणायि लाग्नाश्शि धयं ज़ाय्ना, अनि ताका कडी कोर्चाक मेळ्ना. भूलोकांतु एकपटि समाराधनेवेळारि वाळ्ळीलि ताका कडी, देवेंद्राक अत्यंत पसंत आय्लि. बाय्ल, शचीक "ताका कडी कर्गो" म्हळ्यारि, "मेणायि लाग्नास्तना, ताका कडी कश्शिं कोर्चें?" म्हळ्ळालि. देवेंद्रुयि नुतऽ बस्लो.

भूलोकांतु, कस्सलेकी कामा खात्तिरि एक ऋषिले आश्रमावाट्टेवैल्यान वत्तस्तना त्या ऋषीन आप्पैलें. "जेव्णांक आम्गेरि, कामांक तांगेरि वऽच" सांगूनु जेव्णाक घरा आप्पोव्नु व्हेल्ले. ऋषीले बाय्लेन "सादा ताका कडी केल्या" विनयान सांगूनु जेव्णाक वाड्ले, संकोचु कर्नास्तना, ताका कडी घेव्नु देवेंद्रान जेवण केल्लें. "थोडो वेळू विश्रांति घे, नंतर कामाक वऽच" ऋषीन सांग्लें.

विश्रांति नंतर, ताका कडी मड्कि, रांद्पा कूडांतु , शिंख्यारि खय़ीं लांबोव्नु दवर्ला, हें लक्षय पूर्वक पोळोव्नु,

देवेंद्रु कामाक भायिरि सर्लो. वाट्टेरि ती ताका मड्कि कशिशं चोर्नु व्होर्चे बद्दल विचार करीत मुकार्सलो. हांगा थयीं वोच्चूनु, वेळु काण्णु, सुमार मध्यरात्रि नंतर रांद्पा कूडांतु गेल्लो. काळ्कांतु, अदमासान सावकाश पाय घालीत, शिंक्या दिकान मुकार्सलो.

थयीं ऋषिपत्नि निद्दल्लेलि. काळ्कांतु वत्तस्तना, देवेंद्रालो पायु तिग्गेले पाय्यारि पळ्ळो. तीणें ज़ागि ज़ाव्नु, "चोर, चोर" म्हूण्णु गौजि घाल्लि. "कोणरे तूं? हांगा कित्याक आय्ला?" चौकशी केल्लि. "कोणऽ आय्लागो थयीं?" भित्तरि येव्नु ऋषीन विचार्लें. देवेंद्रु आत्तां पूर्णापणें घाबर्लो. "कित्तें कोर्का म्हूण्णु कळ्ळें ना", चोरीचें प्रयत्न भायिर तेव्चें भीतिन, "हांवुं, देवेंद्रु,चिंता नाका" म्हळ्ळालो. ऋषिपत्निन दिव्वो ज़ळोव्नु "कस्सलें ज़ाव्कारे तुका?" विचाल्यारि, "निद्दोव्चाक मांद्रि आनि उषें घेव्चाक आयिलो, तुम्गेलि नीद कित्याक वायिट कोर्चें? काळ्कांतु समऽ दिस्लें ना", देवेंदान समय सूचकतेन ज़वाब दिल्लि.

"कस्सऽली नीद? "पाय्या सांद्या दुकीन समऽ दोन तास नीद पळ्यारि होड" तीणें म्हळ्ळें.

"हें तुग्गेले दुकी पुराण आत्तां नाका, देवेंद्रा, तुग्गेले जेवण ज़ाल्यारे? ऋषीन विचार्ले. ताणें "ना" म्हळ्ळें. "अय्यो पुत्ता, सांग्चें न्हैरे, तूं आम्कां दुस्रोवे? ऊठ, हात पाय धूव्नु जेव्णाक यो" सांगूनु वाड्चि तयारि केल्लि. "वाड्रे" म्हळ्ळ्यारि, नाका म्हूण्णु मात्तें हालैलें.

“कित्तें भूक नां विचार्ल्यारि” “तशिं न्हयिं, तुम्मि मेग्गेले एक काम कोर्नु दिल्ल्यारि मात्र हांवु जेव्तां”, देवेंद्रालि ज़वाब. “तें काम आम्मि कर्ताति म्होण्चें, नंतर ज़ाय्ना म्होण्चें, पशस्तवे?” ऋषीन विचार्ले. “तें काम सान आस्सा, तुम्गेलागिं कोर्चाक साध्य आस्सा”. ह्या देवेंद्राले उत्रांक “ज़ाय्त, आम्मि कर्ताति, आत्तां जेव तूं” ऋषीन आश्वासन दिल्लें.

कामा बद्दल चौकाशि केल्यारि, “माका फ़ाल्या सकाळिं मड्कि भोर्नु ताका कडीऽ कोर्नु दीव्का”, देवेंद्राले मागणींक “अय्यो, हेंचिवे,माका दिस्ले कस्सलंकी होड काम”. चऽल नीद आत्तां” ऋषिपलि म्हळ्ळालि. आनि दुस्रे दिवसु सकाळिं मड्कि भोर्नु रुच्कर ताकाकडी कोर्नु दिल्लि. ती मड्कि घेवु देवेंद्र भायिर सर्लो.

# उश्शीणें ज्नान फस्लें

ब्रिटिश राजवटींतु, भारतीयांक सैन्यांतु भरती ज़ाव्चाक इंग्लिष भाषेचें थोडेशे तरी ज्नान आस्सूचें अवश्यक आशीलें. एक बेकार तरुणान इंग्लिष भाषेचें ज्नान आस्सा म्हूणु फट्टि सांगूनु सैन्यांतु भरती ज़ाल्लो. वैद्यकीय,आनि इतर तपासणी नंतर, तो सैनिकाले बरकांतु (Barraks) वास्तव्य कोर्चाक गेल्लो.

दोन महिन्या नंतर, ताग्गेली इंग्लिष भाषेची परीक्षा घेव्चाक केंऽप कमांडरान आप्पैलें. तो कमांडरु ब्रिटिश आश्शीलो. सैनिकलोकाली अल्पशें भाषाज्नानांची कस्सली परीक्षा घेव्ची म्हूण्णु ताका कंटाळो येत्ताश्शिलो. केवल तीन प्रश्ने विचार्नु, समर्पक उत्तर दिल्यारि तांका पास कर्ताश्शिलो. ते प्रश्ने,अनुक्रमें, (१) "तुग्गेले वय किल्लें?", (२) "सैन्यांतु भरती ज़ाव्नु कित्ले दिवस ज़ाल्ले?", (३) "तुका उत्तम आहारु आनि इतर उपचार मेळतावे?" तो कमांडरु केद्नायी हेऽचि क्रमान प्रश्ने विच्चार्ताशील्लो.

कमांडरान परीक्षेक आप्पैल्यान हो सैनिकु भिल्लो. आत्तां कित्ते कोर्चें? ताका काळजी लाग्ली. पण ताग्गेल्या

सहकार्यानीं ताका समाधान केल्लें. ते म्हळ्ळाले "तो कमांडरु केद्नायी केवल तीन प्रश्ने एकऽ क्रमारि विचार्ता. पैय्ले प्रश्नाचे उत्तर "अठरा वर्ष, सर", दुसर्याचें उत्तर, "दोन महीने, सर", तिसर्याचें उत्तर, "व्हयी सर, दोऽनी", अश्शिं उत्तर दी. सर म्होण्चाक विस्सर्नाका. अश्शिं सांग्ले.

दुस्रे दिवसु, इस्त्रि केल्लीले युनिफ़ोर्म, पोलिश केल्लेलीं बुटटं, पटो वगैरे घाल्नु कवायतीक गेल्लो. ताग्गेले शिस्तबद्द युनिफ़ोर्म पोळोव्नु, कमांडरु खुष ज़ाल्लो. पणऽ दुर्दैवान प्रश्नांचो क्रमु बदल्लो, कमांडरान विचार्लें "सैन्यांतु येव्नु कित्ले दिवस ज़ाल्ले?" तोंड्पाठ केल्लेले प्रमाणें उत्तर दिल्लें. "अठरा वर्ष, सर".

तें आय्कूनु कमांडराक आश्चर्य ज़ाल्लें,ताणें विचार्लें "तुग्गेलें वयऽ कित्लें?"

सैनिकान ताबडतोप ज़वाब दिल्लि, "दोन महीने,सर"

अस्सले यद्वा- तद्वा ज़वाबेन कमांडराक कोपु येव्नु विचार्लें "मेग्गेले बोडऽ वायिट ज़ाल्यांकीं? तुग्गेले बोडऽ?"

ताका सैनिकान उत्तर दिल्लें "दोनी सर"

हाज्जेन कोपु येव्नु त्या ब्रिटिश कमांडरान सैनिकाक वोड्डूनु सालांतुल्यान भाय्र काड्लें आनि म्हळ्ळालो "मूर्खा, मेग्गेलो वेळू वायिट केल्लो, हाका गांडीरि (वाचकानों क्षमस्व!) लाथ मार्नु केंपा भाय्रि घाला"

बिचारा सैनिकु मात्तें सकल घाल्नु भाग्रि गेल्लो.

अश्शिं उश्शीर्णों ज्नान फस्लें.

ह्या संभाषणांचे इंग्लिष भाषांतर सकल दिल्या "–

Question 1 : "- How long have you been in the army?

Answer : - Eighteen years, sir.

Question 2 : How old are you ?,

Answer : Two months, sir.

Angry commander asks :- Are you mad or am I mad?

I nnocent soldier replies :- Yes sir, both.

Furious commander orders "Kick him out of my camp"

Poor soldier walks out of army camp.

# नादिरशहालि विनोदी उत्रं

"क्या नूर है, इसे हम कोहिनूर नाम देंगे", अश्शिं हिर्याक नांव दिल्लेलो इराणचो बादशाह, नादिरशहालें नांवऽ आय्कलेंकी आंगारि कांटे येत्ताति. एक क्षुल्लक कारणावैल्यान दोन– अडीच हज़ार दिल्लिचे निष्पाप लोकालि हत्या करैशिल्लो, महा क्रूर बादशहाले तोंडांतु विनोदी उत्रं! कल्पना कोर्चाकयि ज़ायिना. पण ही वस्तुस्तिथि आस्सा. ह्या हिर्याक, तश्शिं नांव कोणें दिल्लें? केद्‌ना दिल्लें हें पोळोव्यां

दिल्लीचो बादशहा, बहाद्दूरशहालाग्गिं, तें हीरें आश्शिलें. पण ताज्जो पत्तो कोणाकयी नाश्शिलो. तें सोद्दूनु काड्‌चें नादिरशहाले सर्व प्रयत्न असफल ज़ाल्ले. आखेरीक बहाद्दूरशहालि खासदासीन भरपूर पैसे वगैरे घेव्चे आमिषानं, "तो आपण्याले पगडींतु तें हीरें दवर्ता, निद्दतस्तनासुद्धां पगडी काण्णा" अश्शिं सांग्लें.

दुसे दिवसु दरबारांतु, नादिरशहानं "आज़ पास्सूनु हांवु आनि बहाद्दूरशहा दोस्त ज़ाल्यांति", म्हूण्णु आम्मि पगडी बदलाय्शिताति" अश्शिं घोषणा कोर्नु आपण्यालि पगडी बहाद्दूरशहाक दिल्लि. बिचारा बहाद्दूरशहा ! निरूपायान

आपण्यालि पगडी नादिरशहालें मात्यारि दवर्लि. ताबडतोप दरबार बरखास्त कोर्नु, नादिरशहान बंद खोलींतु ती पगडी सोडयिलि. काळकांतु सुद्धां चकमकत आश्शिलें हिर्याक पोळोव्नु "क्या नूर है, इसे हम कोहिनूर नाम देंगे" अश्शिं उद्गार काड्लें. नंतर ब्रिटिशानी इराणचे बादशहाक ह्रोव्नु तें हीरें इंग्लंडाक व्हेल्लें

एक पटि दरबारांतु नादिरशहाक तानि लाग्लि. बहादूरशहान बादशाही रिवाज़ाप्रमाणें रुप्या पेल्यांतु उद्दाक भोरोव्सूनु दिवैशिलें. तित्लें उद्कान नादिरशहालो ताळोयी तिंबिल्ना. बेज़ारान "बुलावो मेरा पकालीको" आज्ना दिल्लि. (बादशहाक पिव्चें उद्दाक दिव्पि) "पानी पिलावो,पानी पिलावो" म्हळ्ळालो. पकालीन होड पेलो भोर्नु उद्दाक दिल्लें, नादिरशहा तीन-चार होऽड पेले भोर्नु उद्दाक गटागटा पिल्लालो. शेज़ारी बश्शिल्या बहादूरशहान "इला पानी मत पीयियेगा, सर्दी, ज़ुकाम हो सकता है" म्हळ्ळें. ताका नादिरशहान ज़वाब दिल्लि, "इला पानी नहीं पीता, तोईराणसे यहां तक नहीं आता !" (तें उद्दाक जिरोव्ची शक्ति मेग्गेल्यांतु आस्स).

एक पटि नादिरशहाले पोट्टांतु गडबड ज़ाल्लि. शाही हकीमान तपासूनु, "दोन छटाक गुलकंद खायिये" सूचना दिल्लि. सेवकान तराज़ूंतु तोल्नु दोन छटाक गुल्कंद दिल्लें. तें खाव्नु "हलवा बहूत अछ्छा है, शीशि (भरणी) इधर लावो" सांगत भरणींतुलें गुलकंद पूरायि खाव्नु, बोट्टं चाट्त रिकामी भरणी परत केल्लि. (ताग्गेले अपार जीर्णशक्तीचें हें एक उधाहरण !).

नादिरशहाक, हस्तीचेरि फिरैतस्तना, "इस्का लगाम किधर है ?" ताणें महुताक विचार्लें. "हाथीको लगाम नहीं होता है सरकार, अंकुशही उस्का लगाम है", सांग्लें.

"घोडेका लगाम हमारे हाथमें रहता है, जिस सवारीका लगाम अपनी हाथोंमें नहीं रहता है, उस्का क्या भरोसा", सांगूनु अंबारीवैल्यान सकल देंव्लो.

(तात्पर्यः– आपण्यालें सुरक्षिततेचि दक्षता आपण्यानयी घेव्का,)

अशिशं क्रूर नादिरहालीं विनोदी उत्रांची अनेक उधाहरण आस्साति.

# जांबुवति परिणय

रावणाले हत्ये नंतर, श्रीरामु, सीता आनि लक्षमण सहित अयोध्येक परतले. थंयिं, रामालो पट्टाभिषेकु ज़ाल्लो. विभीषणु लंकाधिपति, सुग्रीवु किष्किंधाधिपति, तारा ताग्गेलि बाय्ल, अंगद युवराजु अशिशं नियुक्ति केल्लि. हनुमंतान, आपण्याले ह्रदयांतु तूवें चिरंतन वासु कोर्का म्हूण्णु श्रीरामाक विनंति केल्लि. बलाड्यमल्ल, जांबुवंतान, "आपण्याले इत्ले समबल आशिशले मल्लाबरोबरि मल्लयुध्द कोर्चि" इच्छा प्रकट केल्लि. श्रीरामान, "तथास्थु" म्हळ्ळें. नंतर जांबुवंतु, आपण्यालि धूव, जांबुवती सहित, दूर पर्वतप्रदशाचे गुहेंतु वासु कोर्चक गेल्लो.

रामावतारु समाप्त ज़ाल्लो.तरीयि जांबुवंतालि इच्छा पूर्ति ज़ाल्लि ना. कृष्णावतारांतु जांबुवंताक समबल आशिशलो मल्लु हाड्चि चिंता कृष्णाक लाग्लि. स्यमंतक मणिहारु शोधाचें कारण दाकोव्नु, कृष्णु भायिर पळ्ळो. एक यादव कुमारालाग्गिं आशिशली स्यमंतक मणिहारु कृष्णान याचना केल्लिल्याक, ताणें नकारु दिल्लेलो. मृगयेक गेल्लेले तेन्ना, एक सिंहान ताका मार्नु, तो स्यमंतक मणिहारु तोंडांतु चाब्बूनु व्हेल्लो. वनविहाराक आयिल्या जांबुवंतान त्या सिंहालि हत्या कोर्नु तो हारु घरा व्हेल्लो.

"कृष्णानंची त्या मणीचे आशेन यादव कुमारालि हत्या करैशिलि", अशिशं कृष्णाचेरि आरोपु आय्लो. आनि त्या मणीचे शोधाक कृष्णु भायिर पळ्ळो. यादव कुमाराले मृतदेहालाग्गिं, सिंहालि पाव्लं दिस्लिं. तीं शोधत, शोधत कृष्णु जांबुवंताले गुहेकडेन पाव्लो. थयीं ताका स्यमंतक मणिहारु दिस्लो.

"ही स्यमंतक मणिहारु आम्गेलो, न्याय रीतिन परत दी", म्हळ्ळिल्याक ताणें, "हांवें भयंकर सिंहालि हत्या कोर्नु अति परिश्रमान ती मणी मेळैल्या, तूंवें मल्ल युध्दांतु मेज्जेरि विजय प्राप्त केल्यारि मात्र मणिहारु दित्तां" अशिशं जाम्बुवंतान म्हळ्ळें. कृष्णान ताक्का सम्मति दिल्लि.

"सूर्योदया उपरांत, प्रतराह्निक पूर्ण कोर्नु, मेग्गेलो इष्टदेवु, श्रीरामालि पूजा, प्रार्थने, नंतर, सूर्यास्त पर्यंत मल्लयुद्ध कोर्का. सूर्यास्ता नंतर तूं आम्गेलो अतिथि. आम्गेलि अतिथि सेवा स्वीकार्का". म्हूण्णु संपूर्ण दिनचर्येचि रीति, रिवाज़ जांबुवंतान सांग्लें.

मल्लयुद्धांतु, जांबुवंतान घाल्ले, घाल्लेले फ़ासे कृष्णान लीलया सोडैले. सत्तावीस दिवसा पर्यंत जांबुवंतान, संपूर्ण अनुभवु, शक्ति पणाक लाव्नु मल्लयुद्ध केल्लें. तरीयि कृष्णाचेरि विजय मेळोन्चाक ज़ाल्ले ना.

दुस्रे दिवसु, मल्लयुद्ध सुरु कर्ताना जांबुवंताक निरुत्साह उत्पन्न ज़ाल्लो. आसक्ति ऊणें ज़ाल्लि. "ही अवस्था अशिशं, कशिशं ज़ाल्लि?, हांवें रामदेवालाग्गिं एकाग्र मनान प्रार्थना

केल्लि ना मूं,? पुनः प्रार्थना कर्ता," म्हूणु कृष्णाक थोडे वेळु युद्ध स्थगित कोर्चाक सांग्लें. कृष्णान सम्मति दीव्नु ताग्गेल्या दिशेन फ़ाटि फ़िरोव्नु राब्लो.

प्रार्थना कर्ताना, रामदेवाले बदलाक, जांबुवंताक कृष्णालें रूप दिस्लें. कृष्णाकडेन पळैल्यारि, रामदेवालें रूप दिस्लें. हें परत, परत घड्लें, हाज़्जेन संभ्रमित ज़ाव्नु जांबुवंतान म्हळ्ळें, "हे यादव वीरा, मेज्जेरि अस्सली माया चलोव्नाका, ताज्जेन तुक्का विजय मेळशी ना. इत्लो दिवस मल्लयुद्ध कोर्नु तुक्का तृप्ति ज़ाल्लिनावे?" कृष्णान विचार्लें.

आश्चर्यचकित ज़ाव्नु, "हें गुपित तुका कश्शिं कळ्ळें? कोण तूं? दया कोर्नु सांग", अश्शिं म्हळ्ळें. तेन्ना कृष्णान ताका रामदेवालें दर्शन दिल्लें.

हर्षान गद्गदित ज़ाव्नु "दिल्लेले वचन पूर्ण कोर्चाक तूं हांग पर्यंत आय्लो, देवा, तुज़्ज़ो असलो स्वामि पाव्नु हांवुं धन्य ज़ाल्लो, देवा, तूंचि विजयी ज़ाल्लो", म्हूण्णु जांबुवंतान कृष्णाले पाय्यारि आपण्याले मस्तक दवर्लें.

"जांबुवंता, जयापजय हांगा अप्रस्तुत, तुज़्ज़ा असल्या स्वामिभक्ताक दिल्लेले वचन पूर्ण कोर्चाक माक्का अभिमान ज़ात्ता". म्हूण्णु कृष्णान जांबुवंताक प्रेमान आलिंगन दिल्लें.

"देवा , मेग्गेली धूव, जांबुवतीलें तूंवें पाणिग्रहण कोर्नु, मेग्गेली एक इच्छा पूर्ण करी". म्हळ्ळेल्या जांबुवंताले विनंतीक सम्मति दीव्नु, कृष्णान जांबुवती बरोबरी विवाहु केल्लो. स्यमंतक मणिहारासहित राजधानीक परतलो.

* * * * *

# "ठण्ठण् गोपाळ", नांवांच्या एक्ळ्याक सर्वऽयी हास्ताशिले

बेज़ारान तो दुस्रे गांवाक वत्तस्तना, वाटेरि अनेक लोक मृताले अंत्य संस्काराक वत्ताशिले. "मृताचें नांव कस्सलें?" "अमर सिंग" ज़वाब आय्लि. रस्त्यावैले शेणा मुद्दे विंचे" बाय्लमनीषेन सांग्लें, मेग्गेले नांव "लक्षिमबायि", मुकारि वत्तस्तना एक्ळ्यो, भीव्नु, धाव्नु, धाव्नु वत्ताशिलो. तो माक्का "धीरशक्ति" म्हणताति म्हळ्ळालो. तेद्ना "अमर सिंगु मोर्नु गेल्लो, लक्षिमबायीन शेणा मुद्दे विंच्ले, धीरशक्ति भीव्नु धाव्नु गेल्लो, भलारे भला ! हावुं ठण ठण गोपाळु" "हें नांवं खर्यीं वायिट अस्सा" म्हूणू परत आय्लो.भला रे भला. तूंचि खरा !

# कवीलो बाळांतीरो

कवि, लेखक, नाटककार वगैर्यांक सरस्वती देवीली कृपा भरपूर आश्शिली तरी, लक्षिमी देवीलो अनुग्रहु कम्मि उर्ता. अश्शिं ऐक कवि महाशयु, ऐक सान कंपनींतु नौकरी कर्ताश्शिलो. राब्चाक तो आनि ताग्गेले अनेक सहकार्यानि घर ज़ाव्का म्हूण्णु तान्नि, ऐक हौसिंग सोसायटींतु नांव दाखल केल्लीलें. घरबांदपा काम अत्यंत सावकाश चल्लिल्यान घर बांदि्प (बिळडराक) नोटीस दिन्चि ज़वाबदारि कवि महाशयाचेरि पळ्ळि. तें पद्दतशीर बोरोन्चाक, रजेदिवसु ताग्गेले अनुभवी मित्रान ताक्का घर आप्पैलें. घर पाव्ना फुडे, ताग्गेलि बाय्ल, ''तान्निं भायिर गेल्यांति, थोडे वेळान येत्तलें'' म्हळ्ळालि. वेळु काड्चे खात्तीरि, तो सोफारि बैसूनु पोर्ने (ज़ुनें) मासिक, वर्तमान पत्र वगैरे वाचीत बस्लो.

थोडे वेळान कोग्रु– पुस्सप कोर्चि तांगेलि कामवालि बायि अय्लि. सरळ भित्तरि वोच्चूनु ज़ाडून फसा, फसा कोग्रु काळ्ळो, नंतर बाळडींतु उद्दाक घेव्नु लादि पुस्चो कपडो घेव्नु, लाद्यो पुस्चाक सुरुवात केल्लि. पैलें, रांदपा कूड साफ केल्लें, नंतर निद्दोन्चि खोलि (बेड रूम) पुस्लि,

भायिर येव्नु बैठी खोलींतुल्या (हॉलांतुल्या) लाद्यो पुस्चाक सुरुवात केल्लि. साफ करीत, करीत, ती, कविमहाशय बश्शिल्या सोफालाग्गिं येव्नु पाव्लि. आनि म्हळ्ळालि, "साहेब, वय्री करा", तें आय्कूनु कविमहाशयु गोंधळ्ळो, ताका कायिं तिग्गेले उत्त्रांचो अर्थु कळ्ळो ना, गडबडूनु ताणें, "क क– कस्सलें वय्री कर्चें" विचार्लें. तीणें "साय्बानूं, तुम्गेले पाय वय्री करा, ना ज़ाल्यारि हांवें लादि कश्शिं साफ कोर्चि? सांगा?" म्हळ्ळालि.

"बरें बरें", सांगत तांणें पाय वय्रि घेत्ले. तीणें ज़ाडु मुल्यांतु दवर्लो, बाल्दींतुले उदाक रिकाम कोर्नु, "येत्तगे मांयें" सांगूनु भाय़ीर सोर्नु गेल्लि, थोडे वेळान कवीमहाशयाक आंगांतु हुन्साणि आय़्लि, तो होड्डान वदर्लो, "माका चेर्डूं ज़ाल्ल्यां, चेर्डुं ज़ाल्ल्यां" रांदपा कूडांतु आश्शिलें ताग्गेल्या मित्राबाय्लेक कस्सलेंयी कळ्ळेना. "चेर्डुं ज़ाल्यां? हाज्जे बद्दल ताका टेलिफोनु वगैरे आयिल्ना", म्हूण्णु तीणें भायिर येव्नु "इत्तें ज़ाल्लें मामा" म्हूण्णु चौकाशि केल्लि.

"माक्का कवीतेचें चेरडूं ज़ाल्लयां". कवी म्हळ्ळालो. "म्हळ्यारि?" तिग्गेले प्रश्नाक, कवीन सांग्लें, "माक्का ऐक कवीतेचो विचारु आय्ला, दय कोर्नु माक्का कायीं, कस्सलेंयी विचार्नाकाति, तें मेग्गेल्या डायरींतु बरैतां". खिषांतुल्यान डायरी काण्णु बोरोन्चाक लाग्लो. "बरें, माक्का चेरडुं ज़ाल्यां, मेग्गेलो बाळांतीरो करी म्हळ्ळिल्ना, नशीब" अश्शिं पुट–पुटत ती रांदपा कूडांतु गेल्लि.

थोडे वेळान ताग्गेलो मित्रु आय्लो. "आरे केद्‌ना आय्लो? हांवें तुम्मि बिळडराक दिल्चे थोडेशे मुद्दे (पोइंट्‌स) कालीचि बोरोव्नु दवर्ला. ताज्जे वैल्यान पूर्ण नोटिस बोरोव्नु, सोसायटीचे सर्व सभासदाले हस्ताक्षर घेव्नु बिळडाराक पेटैयाति,तरी ताग्गेलि ज़वाब येना ज़ाल्यारि ,किंवा बांदपा काम चालु कर्नाज़ाल्ल्यारि मुकावैलो क्रमु घेव्यां, काळजि नाका". अशिशं सांग्लें. "जेव्णा जाल्ल्यां, जेवण कोर्नु वऽचरे" कवीक जेवण कोरोव्सूनु, घरा पेटय्लो.

नंतर मित्रु, ताग्गेलि बाय्लेन कवीमहाशयाक चेर्डुं ज़ाल्लिली खब्बर आय्कूनु पोऽट भोर्नु हास्लिंचि.



रामचंद्र जी. भंडारि हे, बळ्कुर ग्रामांतु (उत्तर कन्नड ज़िल्ला) जन्मांक आय्ले. हॊन्नावर, कुमटांतु शिक्षण पूर्ण केल्लें, भाभा अणु संशोधन केंद्रांतुल्यान जेष्ठ शास्त्रज्न म्हूण्णु निव्रत्त ज़ाल्ले. पंचकादायि मासिकांतु तान्नि अनेक लेखन/काण्यो प्रकाशित केल्यांति, उधा:– कोंकणी भाषेक देवनागरि लिपीचि सूक्तता, कन्नड आनि देवनागरि लिपींतुलो ज़ोडाक्षरांचो गोंधोळु, नंतर जांबुवति परिणय, दुंदुभीलें दमन, शिखंडि नपुंसक नाश्शिलो, अश्शिं काण्योयी प्रकाशित केल्यांति.

सद्या तान्नि प्रकाशित कोर्चे "भंडारि माम्माल्यो काण्यो" हे कथा संग्रहांतु आर्किमेडिस नागडो धांव्लो, कवीलो बाळांतीरो, सरदार्जीलें स्वर्गारोहण, वगैरे हास्यरस पधान काण्यो आस्साति, पंचतंत्रातुलो पौराणिक काण्यो सहित आस्साति.

कोंकणी साहित्य वाड्डोन्चाक लेखकानं किंचित प्रयत्न केल्ला, तरी वाचकानी हें पुस्तक वाच्चूनु, विनोदाचें आनंद घेत्त्यारि ताग्गेलें श्रम साफ़ल्य ज़ान्चि आशा धर्तलो.

जै कोंकणी, देवु बरें करो